बालसाहित्य प्रकाशन येवजण 23

# गलिवराची भोंवडी

माया अनिल खरंगटे

गोवा कोंकणी अकादेमी

# गलिवराची भोंवडी

(काणयो)

बरोवपी :
**सौ. माया अनिल खरंगटे**

प्रकाशन क्र. : २५

© गोवा कोंकणी अकादेमी

**उजवाडावपी :**
शरद दळवी
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी, पर्वरी-गोंय.

**छापपी :**
सम्राट प्रिंटर्स,
बाणस्तारी, गोंय.

**मुखचित्र आनी सजावट :**
संदेश कालेकार

पयली आवृत्ती : १९९८

**GALIVARACHI BHOUNDI**
(STORIES)

WRITER :
**Smt. MAYA ANIL KHARANGATE**

PUBLICATION No. 25

© **GOA KONKANI AKADEMI**

**PUBLISHER :**
SHARAD DALVI,
Secretary,
Goa Konkani Akademi, Porvorim, Goa.

**PRINTER :**
SAMRAT PRINTERS,
Banastarim, Goa.

**COVER & DESIGN :**
SANDESH KALEKAR

FIRST EDITION : 1998

**मोल** : रु. २०/-

**PRICE** : **Rs. 20/-**

## भाग १

# मोटव्या मनशांच्या जगांत

## १ राकेस जावनूय बंदी

भावणांनो, तुमकां पयस पयस भोंवडी करून येवपाक खूब आवडटा आसतलें न्हय? म्हाका लेगीत खूब आवडटा. हांव खूब कडेन भोंवडी करून आयलां. खंय खंय तें सांगल्यार तुमचो विस्वास लेगीत बसचो ना. पूण त्यो सगल्यो घडणुको खासा हांवें पळयल्यात, अणभवल्यात.

हांवें पळयल्ली दर एक गजाल खुबूच अजापाची, विचित्रूय म्हळयार अतिताय जावची ना.

म्हजें नांव सॅम्युएल गलीवर. इंग्लंडांतल्या नॉटिंगमशायर गांवांत आमचें कुटूंब शेत-भाट करून रावतालें. व्हडा उमेदीन म्हज्या बाबान, बरें शिकप घेवपाखातीर म्हाका केंब्रीज विद्यापिठांत धाडलो. थंयचें शिकप म्हारगी. तातूंत रावपाचो आनीक वेगळो खर्च. म्हज्या बाबाक तें कर्शेंच परवडना जालें. ते पासत हांगा थंय कोणा कोणागेर रावन हांव दोतोरकी शिकलों. लंडनांत म्हजो बरो जम बसलो ना, देखून व्हड व्हड तारवांचेर हांव शस्त्र वैज म्हणून नोकरी करूंक लागलों. तेन्नाच विंगड विंगड देशांची भोंवडी करपाची संद म्हाका मेळ्ळी.



४ मे १६९९ दिसा 'एन्टिलोप' नांवांची पातमारी दक्षिणेकडल्या दर्याचेर भोंवडेक वचपाची आसली. ताचेर म्हाका नोकरी मेळ्ळी आनी म्हजे पयले भोंवडेक आरंब जालो.

हें भोंवडेक आरंब करतनाच आमचेर अरिश्टां येवंक लागलीं. दुसऱ्याच दिसा सकाळीं सगलेकडेन दाट हिंवट पडिल्ली. दोन हातांवयल्यो वस्तूलेगीत दिसनासल्यो. अशा हिंवटांतल्यान आमची पातमारी वताली. इतल्यांत एका तांडेलान वांवभर वाटे आशिल्लें एक व्हड खडप पळयलें. तो आड्डून आमकां सांगतासर आमचें तारूं त्या खडपाचेर घड्ड करून आपटलें आनी कुडके कुडके जावन बुडलें.

आमकां पांच-स जाणांक कसो तरी एक पनेळ मेळ्ळो. वाऱ्याच्या आदारार आमी मुखार वचत रावले. एका अरिश्टांतल्यान वाटावतासर व्हडलें मोड सुरू जालें. खिणाभितर आमचो पनेळ परतलो.



म्हज्या वांगडच्या हेर तांडेलांची कितें दशा जाली कोणाक खबर! चड करून ते बुडलेच आसूंक जाय. म्हज्या हाताक तारवाची एक फळी मेळ्ळी आनी हांव जीव मुठींत धरून उदक वारो पियेत तंसोच पोंवत रावलों. निमणें निमणें आनीक पोवपाचें त्राण म्हज्यांत उरूंक नासलें. जगपाची आस सोडून हांव फळयेर वोग्गी पडून रावलों.

असो पडून थोडो वेळ जाल्लो. इतल्यांत अकस्मात म्हज्या पांयांक जमीन लागली. म्हज्या मनांत खोशयेचें ल्हार फुटलें. म्हज्या बऱ्या नशीबान मोडाचो नेट कमी जाल्लो. गळोभर उदकांतल्यान

चलत चलत मैलभर वतकूच हांव सुके जमनीर पावलों. तितलें म्हणसर सांजवेळ जायत आयिल्ली.

म्हजे हात पांय सामके गळसणून गेल्ले. आनीक एक पावल लेगीत उबारपाची शक्त म्हज्यांत नासली. मनशांची वस्ती सोदपाचो विचार फाफडून उडोवन देगेवयल्या तणांत हांवें घालून घेतलें. थंयचे हवेंतले उबेन खिणाभितर म्हाका न्हीद लागली. इतली मेल्लेवरी न्हीद म्हाका जल्मांत लागूंक नासली. हांव जागो जाल्लों तेन्ना फांतोड जाल्ली.



एक व्हडली जांबय दीत हांवें उठपाचो यत्न केलो. एक वेळा... दोन वेळा... म्हाका उठुंकूच येना जालें. अजापाची गजाल म्हळयार हांव न्हिदिल्लों थंयच म्हजे हात पांय जमनीक गच्च बांदून घाल्लेवरी जाल्ले. म्हजे लांब आनी दाट केंसूय जमनीक दशिल्लेवरी जाल्ले. म्हज्या अख्ख्या आंगाक पास बांदिल्ले आनी तें चरचरतालें.

हें आनी कसलें अरिश्ट म्हूण येवजितासर म्हज्या पांयार कितें तरी हुळहुळूक लागलें. ल्हवुल्हवूच छातयेर पावलें, म्हणटासर खाडकेमेरेन पावलें. मोट्या कश्टान हांवें नदर सकयल घेतली. आनी कितें सांगू? हातांत धोणूस घेतिल्लो वेंतभर उंचायेचो मनीस थंय उबो आशिल्लो म्हाका दिसलो.

ताका हांव अजापान पळयतां म्हणसर तसलेच चाळीस-पन्नास लोक थंय जमले. हांवें भिवन आरड मारली. म्हज्या आवाजाक भिवन तांणी सटा-सट सकयल उडयो घेतल्यो. पूण रोखडेच ते मुयांवरी म्हज्या आंगार परत चडले. तातुंतलो एकलो म्हज्या काना म्हऱ्यांत येवन विचित्र उतरां उलयलो. म्हाका तातुंतलें एकूय उतर कळ्ळेंना.



इतलो वेळ म्हळयार म्हजें आंग धरिल्लेवरी जाल्लें. ल्हव ल्हव हांवें हात हालोवन दाव्या दंडाभोंवतणचे पास हुमटावन काडले. तकलीय तशीच सोडोवपाचो यत्न करतालों, इतल्यांत तातुंतल्या एका गिड्ड्यान किळांच मारून कितें तरी सांगलें आनी सुयांवरी बारीक शें-दोनशीं बाण म्हज्या हाताताेंडार येवन पडले. वेग मारून हांव सामको व्हळव्हळूंक लागलों. तरी बरें म्हजे छातयेर दाट जाकीट आशिल्लें. निमणें हांवें थारायलें, रात जाय म्हणसर अशेंच पडून रावप आनी मागीर ल्हवूच उठून हे वानरसेनेची सारकी बरी खबर घेवप. अशे शेंकड्यांनी शिपाय तुटून पडले म्हूण हांव भोव भितां तांकां!

पूण घडलें वेगळेंच! हांव ओग्गी पडून रावतकूच तांणी बाण मारपाचें थांबयलें. चोंयवटेच्यान म्होंवांमूस गुणगुणिल्लेवरी आवाज वाडत आसलो. हांचो जमो वाडत आसा म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें. तांणी म्हज्या म्हऱ्यांतच एक हातभर उंचायेची चवाय कशी माची तयार केली. ताचेर

चडून तांच्या एका सरदारान लांबलचक भाशण केलें. तातुंतलें एकूय उतर म्हाका कळ्ळेंना. ताणें फर्मायतकूच तांणी म्हजे तकलेचीं बांदपां तोडून उडयलीं. म्हाका मात्शी मेकळीक मेळटकूच हांवें ताका सारको बरो पळयलो. हेर गिड्ड्यांपरस हो मात्सो उंच आनी रुपेस्त दिसतालो.

म्हजे भाशेन तांचेकडेन उलोवन कांयच फायदो नासलो. म्हजो जीव भुकेन कासावीस जाल्लो. तोंडाकडेन बोटां व्हरून हांवें खावपाक जाय म्हणपाची कुरू केली. ताका ती ज्यूस्त बरी कळ्ळी. तो सडसडीत सकयल देंवलो आनी ताणें थंयच्या लोकांक कितें तरी सांगलें. ते बराबर तांणी कितल्याशोच निसणी हाडून म्हाका तेंकयल्यो. शंबरेक गिड्डे हातांत पांटलें घेवन म्हजे छातयेवयल्यान चलत आयले. नाखटा येद्या कितल्याशाच भाकऱ्यांचो दाळ तातूंत आसलो. हांवें एकाच घांसांत तो फस्त केलो. तें पळोवन अजापान तांणी आरड मारली. अशे जायते पांटले भरून भाकऱ्यो खावन जातकूच हांवें तान लागल्या म्हणपाची कुरू केली. ते बराबर तांणी सरपळेन ओडून दोन पिपां म्हज्या तोंडाकडेन हाडलीं. दोन घोटांतूच हांवें तीं खलास केलीं आनी सकयल उडयलीं. तातूंत बरें गोड सरबत आसलें.

आतांमेरेन मोटे धिटायेन ते म्हज्या आंगावयल्यान यो-वच करताले. कांय वेळान एक सरदार म्हजेर चडलो. पयस खंयतरी बोट दाखोवन तो कुरवेन कितेंतरी सांगूंक लागलो. चड करून ते वटेन तांचें राजपाटण आसलें जावंक जाय आनी म्हाका थंय व्हरपाविशीं तो सांगतालो जावंक जाय.

हातांनी कुरवो करून म्हाका मेकळो करपाविशीं हांवें तांकां विनयलें. तांकां कुरू कळ्ळी. पूण तांणी म्हाका बंद्यावरीच व्हरपाचें थारायल्लें. म्हाका खूब राग आयलो. पूण हांव कांयच करूंक शकनासलों. हांवें तांचेवांगडा वचपाचें थारायलें.

तांणी म्हज्या तोंडांक कसलें तरी मलम सारयलें. ते बराबर भगभग जातालो तो थांबलो.



मागीर उरिल्ले पासूय तांणी तोडून उडयले. हांव सुशेगाद पडून रावलों. तेन्नाच म्हाका झेमशी येवंक लागली. म्हाका दिल्ल्या सरबतांत तांणी घुंवळी वखद घाल्लें हें म्हाका मागीर कळ्ळें. आठ वरां हांव न्हिदून उरलों. ताचे मजगतीं घडिल्ल्यो घडणुको तांणी म्हाका मागीर सांगल्यो.

पांचशीं मेस्त लावन तांणी एक लांबचे लांब गाडी कशी तयार केल्ली खंय! ती सात फूट लांब आनी चार फूट रूंद आसली. चोवीसं चक्रांची ती गाडी जमनीसावन तीन इंच उंचायेचेर आसली. एक फूट उंचायेचे ऐंशीं खांबे पुरून ताका जायते गांच बसयिल्ले. म्हज्या आंगा भोवतणीं कितलेशेच पास बांदून उपरांत ते त्या गांचांक बांदून तांणी म्हाका उखलून त्या गाड्यार दवरलो.

ह्या कामाखातीर णवशीं लोक सेगीत खपताले खंय! हो गाडो ओडपाखातीर थंयच्या राजाचे पागेंतले पंदरा घोडे लायिल्ले. हांवें उपरांत एकदीस वचून ते घोडे पळयले. तांची उंचाय चार - साडेचार इंच इतली आसतली. आमचे भोंवडेक आरंब जातकूच सुमार चार वर्सांनी म्हाका जाग आयली, तिवूय बी कोणें एकल्यान म्हज्या नाकांत ल्हवूच आपलो भालो तोंपतकूच!

दिसभर प्रवास करतकूच रातचे आमी मेकळ्या मळार थांबले. म्हज्या दोनूय बाजूंनी पांचशीं शिपाय पारो करीत उबे आसले. हांवें मात्सो जरी सुटपाचो यत्न केलो जाल्यार म्हाका जितोच मारपाचो हुकूम तांकां दिल्लो. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर आमच्या प्रवासाक आरंब जालो.

जायतो वेळ प्रवास करतकूच आमी राज्याचे शिमेर पावले. खासा राजेसायब आनी दरबारी लोक म्हाका येवकार दिवंक उबे आसले.

गांवांभायर एक पडींग देवूळ आसलें. तातूंत तांणी म्हाका दवरलो. तांच्या अख्ख्या देशांत



हेंच देवूळ मात्शें व्हड आसलें. ताच्या दरवट्यांतल्यान दिमखुऱ्यांनी चलत हांव भितर सरलो. देवळा भायर प्राकारांत म्हाका सरपळयांनी बांदिल्लो आनी ताका कुलपां घाल्लीं. ह्यो सरपळयो आमच्या बोलसाचे घड्याळीचें सरपळे इतल्यो रुंद आसल्यो.

आतांमेरेन हजारांनी लोक थंय जमिल्ले. निसण लावन म्हज्या आंगारूय जायतेजाण नाचून गेल्ले. निमणें हांव कसोच पळून वचचों ना, हाची खात्री जातकूच तांणी म्हज्या आंगाभोंवतणच्यो दोरयो सोडयल्यो. हांव ल्हव ल्हव उठून उबो रावलों. म्हजी उंचाय पळोवन कितल्याशाच जाणांचो आवरो उडलो. अजापान ते म्हाका पळयत रावले.

अशेतरेन त्या वेंतभर गिड्ड्यांच्या राज्यांत हांव राकेस कसो आसुनूय म्हाका बंदी म्हूण रावचें पडलें.

❐ ❐ ❐

# २ बोल्सां तपासलीं

म्हजे सगले पास तोडून उडयतकूच हांव उठून उबो रावलों. सरभोंवतणी नदर भोंवडायतकूच जें चित्र हांवें पळयलें, ताची म्हाका मजाच दिसली. थंयचे सगल्यांत उंच रूख म्हळयार स-सात फूट उंचायेचे आसतले. थंयचीं शेतां-रानां म्हळयार पोरसावरी दिसतालीं आनी थंयचें शार तर नाटकाच्या पड्ड्यावयल्या घराच्या चित्रावरी दिसतालें.



एका घोड्यार बसून त्या देशाचो राजा म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. म्हजी विशाल कूड पळोवन घोडो आबूज जालो आनी फाटल्या पांयांचेर थयथयाट करूंक लागलो. राजेसायब घट्ट बशिल्ले म्हणून वाटावले, नाजाल्यार नाखयां पडपाचें. एका हुजऱ्यान त्या घोड्याक मोट्या यत्नान थातारलो. मागीर राजेसायब सकयल देंवले.

म्हजे भोंवतणी पासय मारून म्हाका सारको बरो पळयतना तांचो चेरो अजापान भरिल्लो. तांणी सेवकांक कितें तरी फर्मायलें. तांणी वीस गाडे भरून हाडिल्लें जेवण आनी पेय हाडून म्हज्या म्हऱ्यांत दवरलें. चार-पांच घांसांतूच हांवें जेवण सोंपयलें आनी एका घोटांत तें पेय हांव पिलों.

त्या राजाक सारको बरो पळोवपाखातीर हांव सकयल न्हिदलों. हेरां परस तो नाकूट भर उंच आसलो. ताचो आंगलोट सोबीत आसलो. तो तेजिश्ट आनी धिरिश्ट दिसतालो. ताची पिराय सुमार अठ्ठावीस वर्सां आसतली. फाटलीं सात वर्सां तो बरेतरेन राजकारभार सांबाळटालो खंय.

ताचो भेस सादो, पूण सोबीत आसलो. तकलेक मात भांगराचो रत्नां-माणकां बसयिल्लो मुकूट आसलो. हिरे बसयिल्ले मुठीची लकलकीत बरी तरसाद ताणें झेतान हातांत धरिल्ली. ताचे वांगडचे दरबारी, मानकरी आनी राजघराण्यांतल्यो बायलो हांचोय भेस भरजरी आनी रंगरंगयाळो

आसलो. उबो रावन तांचेकडेन पळयल्यार रंगीत शेंदरी घाल्लेवरी दिसतालें.



राजाचो आवाज मात्सो किणकिणो आसलो. तो परत परत म्हजेकडेन कितेंतरी उलयतालो. ताचेवांगडचे पंडितूय म्हजेकडेन कितें कितें उलयताले. पूण म्हाका कांयच कळनासलें. मागीर हांवूय म्हाका कळटात तितल्याय भाशांनी उलयलों. पूण सगलें निर्फळ! म्हजें आनी तांचें तोंड मात वळून आयलें.

दोन वरांनी सुमार ते सगले परत गेले. म्हजे सरभोंवतणी कडक पारो असूनूय चोम्यां-चोम्यांनी ते लोक येवन म्हज्या आंगा-खांदार नाचून वताले. एकल्यान तर एक बाण असो मारलो, म्हजो दोळोच फुटपाचो. निमणें मुखेल पारेकाऱ्यान तांकां भेश्टावपा पासत पांच - स जाणांक हाडून म्हज्या मुखार दवरले. हांवेंय मजा केली. तांकां काडून बोल्सांत दवरले. एकट्याक तर तोंडाकडेन व्हरून खावपाचें नाटक केलें. ते बराबर ताणें जाता तितल्या मोट्यान किळांच मारली. सकयल आशिल्ले लोकूय भिवन धांवक लागले. हांवें बोल्सांतली सुरी काडटकूच पारेकारी लेगीत कडकडपाक लागले.



हांवें सुरी बोल्सांत घाली आनी तांकां ल्हवूच काडून सकयल दवरले. हांवें तांकां कांयच त्रास करिनासतना सोडून दिलें, तें पळोवन सगल्यांक आनंद जालो. तांणी म्हजो जयजयकार केलो. ही बातमी राजदरबारांत कळटकूच तांणीय म्हजी तोखणाय केली खंय!

रातचो हांव त्या देवळांतले लादयेर न्हिदलों. दुसऱ्या दिसा सरकारी हुकमान म्हजेखातीर हांतरूण तयार केलें. त्या लोकांच्या मापाचीं देडशीं कुलचांवां एकामुखार एक शिंवन तांचे चार-पांच थर एकार एक दाळ्ळे आनी म्हजे लांबायेचें कुलचांव तयार केलें. तरी तें बरेंच पातळ आसलें. तातुंतल्यान आंगाक जमीन लागताली. तेचतरेन हांतरुणां-पांगरुणां तयार केलीं. कितलेच दिस हांवें शिंयांत कुडकुडून काडिल्ले. ते खातीर हें हांतरूण म्हाका आवडलें. बरी न्हीद लागली.

इतले मजगतीं दरबारांत म्हजेखातीर भासाभास चलताली खंय! म्हजें कितें करचें? खाणा-जेवणाक लागून दुकळ पडटालो. कोण म्हण्टालो म्हाका मेकळो सोडल्यार हांव हजारांनी लोकांक मारून उडयतलों आनी देश पडींग घालतलों. अशी साबार तरेची भिरांत तांकां दिसताली. तेखातीर कांय जाणांनी म्हाका अन्न उदकाक व्हळव्हळावन मारचो, ना तर विखारी बाणांनी म्हजो जीव काडचो अशें लेगीत सुचयलें.

ज्यूस्त ह्याच वेळार म्हजे म्हऱ्यांतल्या कांय शिपायांनी थंय वचून हांव कितलों मायेस्त आनी कसो बरो ती खबर मीठ-मिर्सांग लावन सांगली. तें आयकून राजाक खोस जाली. ताणें रोखडेंच फर्मान काडलें, ''सरभोंवतणच्या खेड्यांनी दर दिसा वीस-वीस गाडयो भरून म्हाका जेवण - खाण दिवंचें आनी हो खर्च राजाच्या खाजगी उत्पन्नांतल्यान करचो. राज्याचे तिजोरेचेर भार घालचो न्हय.''



ह्या फर्मानान सगले प्रस्न सुटले. सयशीं वावराडे म्हजी सरबराय करपाक नेमिल्ले. ते म्हज्या म्हऱ्यांतूच तंबू ताणून रावताले.

तांचे रितीप्रमाण म्हजो भेस शिंवपाक तिनशीं शिंपी दीस-रात वावुरताले. राज्यांतले बुदवंत अशे स पंडित तांची भास म्हाका शिकयताले. तेभायर तांचे पागेंतल्या घोड्यांक म्हजी संवय जावची म्हूण तांकां म्हजे भोंवतणी भोंवडावपाचें फर्मान काडिल्लें. तांचें भाशेचें कामापुरतें गिन्यान मेळोवंक म्हाका बावीस दीस शिकप घेवचें पडलें.

तांची भास समजतकूच हांव तांचे लागीं म्हाका सोडोवपाविशीं मागणी करूंक लागलों. पूण हे बाबतींत ते म्हजें कांयच आयकनासले.

...१२

हरशीं म्हजी बडदास्त मात बरी दवरताले.

कांय दीस वतकूच तांणी म्हाका ल्हवूच विचारलें, 'हे राकेसराज, तुजे पर्वताचे कुडीवरी कांय शस्त्रां बी तुजेकडेन नात मूं?' म्हजेविशीं तांच्या मनांत दुभाव आसलो. ते म्हज्या बोल्सांची झडटी घेवंक सोदताले.

तांच्या म्हणण्याप्रमाण हांवें दोन गिड्ड्यांक म्हज्या दर एका बोल्सांतल्यान भोंवडावन हाडलें. भितरले वाटेन आशिल्ल्या दोन चोर बोल्सांक मात हात लावंक दिलो ना. तांणी दोगांनीय म्हज्या बोल्सांत मेळिल्ल्या वस्तूंची वळेरी करून राजेसायबां सामकार दवरली. ती वळेरी वाचल्यार तुमकां पोट फुटून हांसूंक येतलें. तांणी बरयल्लें....

'ह्या नरपर्वताच्या बोल्सांत आमकां कपड्याचो दाट चौकोनी कुडको मेळ्ळा. तो म्हाराजांच्या दरबारा इतलो व्हड आसा. दाव्या बोल्सांत एक व्हड रुप्याची डबी आसा. तिचें धाकणें आमी ताचेकडल्यान उगडून घेतलें आनी भितर पळयलें. तातूंत कसलो तरी पिठो आसलो. ताचो मात्सो वास येतकूच आमकां सटासट शिंको आयल्यो.

ताचे बंडेच्या भितरल्या बोल्सांत पातळ धव्या चौकटींची एक पोटली शिंविल्ली आसा. ते दर एके चौकटेचेर आमच्या तळव्यायेदीं अक्षरां बरयल्यांत. दुसऱ्या एका बोल्सांत वीस लांबचेलांब सुळे आशिल्ली वस्त आसा. ती घेवन हो नरपर्वत केंस वळयतना आमच्या जायत्या लोकांनी पळयला.

ताच्या पिजामीच्या बोल्सांत लाकडाच्या कुडक्याक जोडिल्ली एक लोखंडाची नळी आसा. तिची उंचाय सुमार एका दादल्या इतली आसतली. तिचे एके कुशीच्यान लोखंडाचे बागयल्ले कुडके भायर आयिल्ले. तें किर्ते ते आमकां कळ्ळें ना. एका बोल्सांत धवे आनी तांबडेशे जड धातुचे कुडके आसात. धवे कुडके चड करून चांदीचे आसूंक जाय. दुसऱ्या एका बोल्सांत लाकडा कुडक्यांत बसयल्ल्यो तिख्याच्यो फळयो आसात. तांच्या राज्यांत ताणें केंस आनी फळां कापतात खंय!

ताच्या वयल्या बोल्सांतल्यान रूंद बरी सरपळी भायर लांबताली. आमी ताका ती भायर काडपाक सांगली. ताच्या एका तोंकाक वांटकुळीच वस्त आसली. तिचो अर्दो भाग चांदीचो आनी अर्दो हारशाचो आसलो. ताचे भितर दोन आडयोशो हालताल्यो आनी न्हंयच्या आवाजावरी खळखळ असो आवाज येतालो. तें एक तर सावद आसूंक जाय नाजाल्यार तो सदांच पुजा करता तो देव तरी आसूंक जाय. ताच्या एका बोल्सांत जाळयेची पिशवी आसा. तातूंत हळदुव्या रंगाचे वांटकुळेच जडशे कुडके आसात. ते जर भांगराचे आसत, तर तांचें मोल तुमच्या अखब्या

खजिन्यापरसूय चड आसतलें.

ताच्या कंबराक आकांताची व्हड तरसाद आसा. दुसरे वटेच्यान एके पिशवेंत शिशाचे गुळे आनी फातर आसात.''

ही सगली यादी वाचून दाखयतकूच हांवें राजेसायबांक म्हजी तलवार भायर काडून वोतांत कशी चकचकता तें दाखयलें. ती पळोवन ताचे दोळे वरशे जाले आनी मजा म्हळयार धातुचे नळयेचो म्हणचे पिस्तोलाचो फार मारून दाखयतकूच कितलेच जाण घो करून जमनीर पडले. राजेसायब लेगीत धवो फटफटीत जालो.

अशे तरेन त्यो सगल्यो वस्ती हांवें तांच्या हुकमा प्रमाण राजेसायबांक दिल्यो.

❑ ❑ ❑

# ३ कबलात जाली

म्हजी वागणूक पळोवन दरबारांतल्या तशेंच हेर लोकांचेंय म्हजेविशीं बरें मत जाल्लें. लोकांची भिड्डय चेपिल्ली. ल्हान भुरगीं तर म्हज्या केंसांत आपालिपा खेळटालीं. पासयेक आयिल्लेवरी ते देवळांत म्हज्या म्हऱ्यांत येताले आनी अजापान म्हाका तेळटाले. हांव न्हिदिल्लों आसल्यार एकाद्र्या दोंगरार भोंवडेक गेल्लेवरी म्हज्या आंगा पांगार भोंवताले. थोडे जाण तर म्हज्या बोल्सांनी धांवन खेळटाले.

तांच्या देशाची भास, रीत-भात सारकी समजतकूच राजान म्हाका ताच्या दरबारांत येवपाचें आमंत्रण दिलें. हांवें तें रोखडेंच मानून घेतलें. म्हाका तांचें राज्य पळोवपाची इत्सा आसली. थंय उंचेल्या पांवड्याचेर नोकरी मेळोवपाखातीर एक विचित्र खेळ खेळटात. दोन कोंड्यांक तायट बांदिल्ले बारीक दोरयेर जो सगल्यांत बरो नाच करता, ताका ती नोकरी मेळटाली. तो खेळ पळोवपाक मात खरीच मजा येता.

नोकरेर रुजू आशिल्ल्यांकूय मदीं मदीं असो खेळ खेळून आपली हुशारकाय दाखोवची पडटा. अशा खेळांत हुशार खेळगड्यांक तांबड्या आनी निळया रंगाचे रसमी पटे मेळटाले.

ल्हव ल्हव थंयच्या गिड्ड्या लोकांचो आनी सावदांचो म्हजेविशींचो भंय उणो जालो. एक दीस हांवें राजेसायेबा खातीर एक खास खेळ करून दाखयलो. थोड्यो बडयो पुरून तांचेर म्हजो लेंस ताणून बांदलो. ताचे कडेर मेर केल्लेवरी आडव्यो बडयो बांदल्यो आनी एक कापडी मळ तयार केलें. मागीर चोवीस दरबारी घोडेस्वारांक काडून अळंग मळार दवरले. तांणी रोकडेच दोन वांटे करून आपलेभितर फकाणांची लडाय करून दाखयली.



एक फावट राजेसायबानूय ह्या खेळांत वांटो घेतलो. ताचो खेळ पळोवपाक हांवें कदेलासयत राणयेक उखलून हातांत धरली. हे सगले खेळ बरे मजेंत चलताले. पूण मदींच एका घोड्याच्या खुरान म्हज्या लेंसाक बुराक पडलो आनी म्हाका हो खेळ बंद करचो पडलो.

एक दीस दर्यादेगेवयल्या लोकांक विचित्र आकाराची बरीच व्हड अशी एक वस्त मेळ्ळी. राजेसायबान ती दरबारांत हाडपाचो हुकूम दिलो. व्हड व्हड गाडयांचेर घालून तांणी ती वस्त हाडली. पळयल्यार कितें? ती म्हज़ी तोपी आसली!

म्हाका ते खूब बरे तरेन वागयताले. पूण मेकळो सोडनासले. हांव तांकां परत परत सांगतालों. पूण ते कशेच आयकनासले. निमणें राजान आपल्या सल्लागारांमुखार हो प्रस्न मांडलो. थंयच्या आरमाराचो मुखेली सदांच म्हजे आड उलयतालो. पूण हेर सगले गिड्डे म्हजेवटेन आसले. तांणी म्हाका मेकळो करपाक सांगलें.

म्हाका सोडचे पयलीं थंयच्या कारबाऱ्यान आठ कलमी कबलातीचेर सय करून घेतली. ती कबलात कशी आसली जाणात तुमी?

कलम १ - नरपर्वतान आमच्या सय-शिक्क्यासयत हुकूम आयलेबगर आमचो देश सोडून वचचें न्हय.

कलम २ - आमचे मान्यताये बगर शारांत फिरचें न्हय. फिरपाक वचपाक जाय जाल्यार, सगल्यांक घरांत रावपाविशीं सुचोवण्यो दिवपाखातीर दोन वरां पयलीं कळोवंक जाय.

कलम ३ - अशा वेळार नरपर्वतान म्हाल रस्त्यानूच फिरचें. आडवाटेन वचून शेतां मळां मस्तुचीं न्हय.

कलम ४ - भायर फिरतना आमचे कोणूय लोक पांयांपोंदा येवचेनात हाची जतनाय घेवची. रस्त्यावयलीं वाहनां, मनीस, सावदां कितेंच विचारलेबगर उखलून हातांत घेवचें न्हय.

कलम ५ - म्हयन्यांतल्यान एक फावट ताकतिकेचो खलितो व्हरपाखातीर एका घोड्यासयत जासूद आपल्या बोल्सांत घालून थारिल्ल्या थळार पावोवचो.

कलम ६ - आमचे खडेगांठ दुस्मान 'ब्लेफुस्कू' हांचे आड झुजपाक आमकां आदार दिवंक जाय. सद्या तांचें आरमार आमचेर घुरी घालपाचे तयारेक लागलां, तें नश्ट करचें.

कलम ७ - सरकारी बागो, राजवाडे हांचे बांदावळीखातीर लागतले व्हड व्हड फातर उखलूंक आमकां आदार दिवचो.

कलम ८ - दोन म्हयन्यांभितर आमच्या राज्या भोंवतणी भोंवडी करून ताचो आकार केदो

...१६

तें निश्चीतपणान सांगचें.

ह्यो सगल्यो अटी बरेतरेन पाळ्ळयार नरपर्वताक १७२८ लोकांक पुरो इतलें अन्न मेळटलें. हाचे भायर दरबाराची भेट घेवपाची खास मान्यताय राजेसायबांनी दिल्या.

सय शिक्को

हुजूर

(राजाधिराज लिलिपूट राज्य)

हातुंतल्यो कांय अटी म्हाका मान्य नासल्यो. म्हाका त्रास भोगचे म्हूणच त्यो घाल्ल्यो खंय! पूण त्यो सगल्यो अटी मान्य केले बगर दुसरो उपाय नासलो. हांवें मान्यताय दितकूच म्हज्या पांयांची बेडी तोडून उडयली. बेडी तोडले बराबर हांवें राजेसायबां मुखार वचून मुजरो केलो आनी तांची कबलात मान्य आसा म्हूण सांगलें. तांणी म्हजो भौमान करून हांवें बरे तरेन नोकरी केल्यार म्हजेर खास मेहरबानी उरतली म्हूण सांगलें.

हे प्रमाण त्या गिड्ड्यांच्या राज्यांत मेकळेपणान फिरून म्हाका तांचेविशीं खबर काडपाची संद मेळ्ळी. ती खबर बरीच मौजेची आसा.

□ □ □

# ४ दोन संकश्टां

लिलिपूट राज्याच्या राजपाटणाचें नांव आसलें मिलेंडो. ताची रुंदाय सुमार मैलभर आसली आनी तें चौकोनी कशें आसलें. ताचे भोंवतणी अडेच फूट उंच आनी एक फूट रूंद असो तट आसा. थंयचे मुखेल रस्ते चार - पांच फूट रूंद आसतले. जोडरस्ते, पांयवाटो मात सामक्यो अशीर. सगल्यांत ऊंच घर म्हळयार चडांत चड पांच फूट उंचायेचें आसतलें. तांकां चार पांच मजले तरी आसतात. शारांची लोकसंख्या खुबूच चड. चार पांच लाख तरी आसुंकूच जाय.

भायलो तट सहज हुपून हांव मुखेल रस्त्यावेल्यान पासयेक गेलों. म्हज्या पांयांपोंदा पडून कोणेंच चिड्डवचो न्हय, म्हूण पेर्गांव घालून सगल्यांक घरांतूच रावंक सांगिल्लें. तरिकूय म्हाका पळोवंक म्हूण जनेलांनी, दारांनी गच्च मुयांवरी लोक राविल्लो.

राजवाड्याचो मुखेल चौक चाळीस फूट रूंद आसा. ताचे भोंवतणी दोन फूट उंचायेची वणत आसा. ताचे भितरलीं घरां पांच फूट उंचायेचीं आशिल्ल्यान म्हाका तीं हुपपाक येना जालीं. मागीर हांवें कितें केलें जाणा? सुरयेन दोन व्हडशीं झाडां कातरून एक निसण तयार केली. हांव तिच्या आदारान उंच उंच घरां वलांडून वतालों. राजवाड्याच्या जनेलांतल्यान भितरली सोबाय पळोवंक म्हाका जमनीर सरपट न्हिदचें पडटालें.

आमचीं भुरगीं, बायलो घरांची जशी सजावट करतात ताचेपरसूय ल्हान प्रमाणांत तांणी घरां सजयल्लीं. पूण सोबीत तरेन, मनभुलोवणीं कशी. एका जनेलांत खासा राणी तिच्या इश्टिणीं सांगातान बशिल्ली. हातांतलो लेंस हालोवन हांसून तिणें म्हाका हडकिलो.



ताचे उपरांत जायतेफावट हांव शारांतल्यान पासय मारतालों. थंयच्यो बऱ्यो सोबीत इमारती, बाजार, देवळां, लोकांच्यो रिती-भाती, खेळ सगलें सगलें हांव बरेतरेन जतनायेन तेळटालों. म्हजो वेळ बरो पासार जातालो.

वेंतभर गिड्ड्यांच्या राज्यांत इतली बरी वेवस्था, रीत-भात आसत आनी इतली बरी कलाकुसर आसत हाची म्हाका कल्पना लेगीत नाशिल्ली.

एक दीस म्हाराजांचो खाजगी कारभारी म्हज्या

म्हऱ्यांत आयलो आनी वरभर म्हजेकडेन गुपीत कितें तरी उलोवंक जाय म्हणूंक लागलो. हांवें ताचें उलोवणें बरें आयकुपाखातीर ताका म्हज्या हाताच्या तळटार दवरलो आनी कानां म्हऱ्यांत हाडलो.

लिलिपूट राज्याचेर दोन व्हड संकश्टां येवपाचे वाटेर आसलीं. थंयच्या राज्यकारभारांतय दोन मुखेल पंगड आसले. एका पंगडांतले लोक उंच खोटांचे बूट घालताले आनी दुसऱ्या पंगडांतले लोक सामक्याच मोटव्या खोटांचे बूट घालताले. खासा राजेसायब ह्या दुसऱ्या पंगडांतले आसले, जाल्यार युवराज पयल्या पंगडाचे वांगडी आसले. हाचेवयल्यान मुखार बरींच झगडीं-झुजां जावपाचीं आसात हें स्पश्ट दिसतालें.

हें संकश्ट फुडलें. पूण आनीक एक संकश्ट सामकें दारांत पाविल्लें. ताचेविशीं सांगतना तो म्हणूंक लागलो, हें पळयात नरपर्वतराज, तुमचे येदे उंचायेचे खूब लोक आसात अशें तुमी सदांच सांगतात, पूण ताचेर कोण विस्वास दवरता? तुमी एक तर मळबांतल्यान तरी पडल्यात आसूंक जाय नाजाल्यार चंद्रावेल्यान तरी आयल्यात आसूंक जाय, अशें आमचे पंडित म्हणतात. तें सोड. सांगपाचें म्हळयार, आमच्या राज्याच्या लागसार आमच्या सारक्या लोकांचें ‘ब्लेफुस्कू’ म्हूण राज्य आसा. आमच्या राज्याच्या आड आसपी गुन्यांवकार, आकांतवादी, चोर, लुटारू अशे लोक त्या राज्यांत पळून वचून थंयच्या राजाच्या आलाशिऱ्याक रावताले. देखून आमी तांचेकडेन झूज सुरू केल्लें. आयज छत्तीस वर्सां जायत आयलीं. तें झूज मदीं मदीं चालूच आसा. त्या झुजाक लागून आजमेरेन आमच्यो चाळीस पातमाऱ्यो बुडल्यो आनी वीस हजार शूर शिपाय मेले. दुस्मानांचें लुकसाण हाचेकूय चड जालां आसूंक जाय.

सद्या सगली शक्त एकठांवन आमचेर निमाणी घुरी घालपाक तांणी आकांताचें आरमार तयार केलां. तें भायर सरपाचे वाटेर आसा अशीं खात्रीची खबर आमकां मेळ्ळ्या. हे वायट परिस्थितींत तुजेवरी बळीश्ट आनी शुरवीर आमकां कितेंय आदार करत काय म्हूण विचारूंक



म्हाका तुजेकडेन धाडलां.

ताचें सगलें उलोवणें आयकतकूच हांवें सांगलें, 'कितलोय जाल्यार हांव हांगा परकी. तेन्ना हांगाच्या राजकीय पंगडाचे भानगडींत हांव पडचोंना. पूण राजा, तांच्या राज्याक बादिकार जावपासारकें कसलेंय संकश्ट येत जाल्यार, कितल्याय बळीश्ट दुस्मानाकडेन झुजून हांव तांची राखण करीन.' म्हजो रकाद घेवन तो खाजगी कारभारी गेलो.

'ब्लेफुस्कू' लोकांकडेन झुजून तांकां ना करून उडोवचे परस, कितेंय तकली वापरून तांचें आरमारूच मोडून-तोडून उडोंवचें, म्हण्टकूच तांचें बळगेंच मोडटलें आनी सगले प्रस्न सहज सुटट्ले, हो विचार मनांत येना फुडें हांव कल्पना करूंक लागलों, कळाशी सोदूंक लागलों.

❑ ❑ ❑

# ५ संकश्टांतल्यान सुटका

''ब्लेफुस्कू'' हें राज्य लिलिपूट राज्याचे दक्षिणेकडेन आसा. तांचे मदीं चोवीसशीं फूट रुंदायेची एक न्हंय आसा. लडाय सुरू आशिल्ल्यान तांचे दोगांयमदीं कसलीच येरादारी जायनासली.

खरें म्हळयार म्हाका ती सुवात पळोवंक जाय आसली. पूण म्हजो तांकां दुबाव येवचो न्हय म्हूण हांव त्या अर्दान पासयेक लेगीत वचूंक नासलों.

ती खाडी ल्हवूच पेंवन वचून 'ब्लेफुस्की'चें सगलें आरमार धरून हाडपाचो म्हजो धाडसी विचार हांवें लिलिपुटाच्या राजाक सांगलो. अणभवी तांडेलांक ती व्हडली खोल नासली. तांणी मात म्हाका ती भयंकर खोल आसा म्हणून सांगलें.



एक दीस हांव एके दोंगुल्लेच्या आडसान लिपत लिपत न्हंयचे देगेर गेलों. थंय आडवो न्हिदून म्हजे धाकटुले दुर्बिणींतल्यान हांवें ब्लेफुस्कूचें आरमार पळयलें. तातूंत पन्नाशेक झुजाचीं तारवां आसलीं. ल्हान पनेळ मात खुबूच आसले. थंयच्यान परततकूच हांवें खुबश्यो लोखणाच्यो सरपळयो आनी वारांव तयार करपाक सांगलें. एक सरपळी म्हळयार बारीक सरये इतली दाट आसली आनी वारांव सुयेवरी आसले.



हांवें तीन तीन सरपळयो एक करून तांकां पीळ घालून एक घट्ट बरी सांखळ तयार केली. तीन तीन वारांव एकठांय करून तांच्या तोंकार गरी केली. भरती सुरू जावचे पयलीं हांव हें सगलें सामान घेवन न्हंयत देंवलो. अर्दवराभितर हांव तांच्या आरामारा म्हऱ्यांत पावलों. ब्लेफुस्कूचेय लोक ह्या लोकांवरीच गिड्डे आसले. हांव म्हऱ्यांत पावतकूच तांणी भंयांन पातेमारेंतल्यान सटासट उदकांत उडयो घेतल्यो आनी पोंवत पोंवत ते देगेर पावले. देगेर सादारण तिशेक हजार लोक आसले. ते पळून वतकूच सांखळेचे गरयेक सगलीं तारवां बांदून घेतलीं. म्हजें हें काम चालू आसतना देगेवयल्या लोकांनी हजारांनी बाण म्हजेर सोडले. म्हज्या आंगार चामड्याचें जाकीट आशिल्लें, पूण हातार, तोंडार सुयांवरी बाण बसताले. हांवें बेगीन - बेगीन भितरल्या बोल्सांतलें वक्ल काडून दोळयांक लायलें. तीं तारवां नांगरिल्लीं. हांवें सुरयेन पास तोडले. मागीर हांव म्हज्या सांखळयांच्या आदारान तीं सहजतायेन ओडून व्हरूंक लागलों.

सुरवेक ब्लेफुस्कू लोकांक हांव कोण आनी कितें करतां तें कांयच कळ्ळें ना. तांकां दिशिल्लें जावये, हांव चड करून तीं मेकळीं सोडून वतलों. पूण हांव ती ओडीत तांच्या दुस्मानाच्या राज्यांत व्हरतां तें पळोवन ते रागान आनी दुख्खान आड्डूंक लागले. कितलोच वेळ तांचो आवाज म्हाका आयकूंक येतालो.

बरो मुखार पावतकूच हांवें हाता-तोंडावेले बाण काडून उडयले आनी थंय मलम चोळ्ळें. सुकती आशिल्ल्यान हांव चलत वचूंक लागलों. देगेर लिलिपुटाचो राजा म्हजो पराक्रम पळोवंक आपल्या सरदारासयत उबो आसलो.



हांव गळोभर उदकांतल्यान चलत येतालों. म्हजे फाटल्यान ब्लेफुस्कूचीं सगलीं तारवां येतालीं. तें पळोवन देगेर जमिल्ले सगले गिड्डे भिले आनी बोवाळ करूंक लागले. तांकां दिसलें, म्हाका तांच्या दुस्मानान मारून उडयला आनी ते तांचेर घुरी घालूंक येतात. पूण देगे लागसार पावतकूच तांणी म्हाका पळयलो. तेन्नाच हांवें सगल्या तारवांच्यो सांखळयो वयर काडल्यो आनी व्हडान म्हळें, ''लिलिपुटाच्या राजाधिराजांचो जयजयकार आसूं''!

राजान मोगान म्हाका येवकार दिलो आनी थंयच तांच्या राज्यांतली ''नर्दाक'' ही सगल्यांत भोवमानाची पदवी म्हाका दिली.

लिलिपूट राज्याक हांवें संकश्टांतल्यान सोडयलें खरें, पूण ताचो परिणाम मात वेगळोच जालो. ब्लेफुस्कूचीं उरिल्लीं सगलीं तारवां हांवें अशींच हाडचीं म्हूण लिलिपुटाचो राजा हट्टच धरून बसलो. ब्लेफुस्कूचें सगलें आरमार ना नपश्यात करून तांकां जिखपाचो राजाचो बेत आसलो. हांवें ताचें मन बदलपाचो यत्न केलो. म्हजे शक्तीचो उपेग हांव स्वतंत्र देशाक गुलामगिरींत उडोवपाक कसोच करचों ना म्हूण नेटान सांगलें. अशें हांवें धिटायेन सांगतकूच सगलें वातावरण बदललें. म्हज्या वायटार आशिल्ले कांय दरबारी लोक आनी दर्यासारंग म्हज्या आड राजाचे कान भरताले. इतलेय त्रास सोंसून हांव एकूच शाणेपण शिकलों. राजा लोकांची कितलीय सेवा करूं, तुमी तांच्या कितलेय माथ्यावेले आसू, तांची मात्शी जरी आज्ञा आयकली ना तर ते तुमकां आक्ताक काडून सकयल आपटितले.

हांवें ब्लेफुस्कूचीं तारवां धरून हाडटकूच पंदरा वीस दिसांनी सुमार तांचे कांय सरदार लिलिपुटाच्या राजपाटणांत समेट करूंक आयिल्ले. लिलिपुटाचो खूब फायदो जातलो अशे तरेन समेट जालो. हाचें खरें कारण हांव आसलों. पूण राजेसायबान एका उतरान लेगीत तशें म्हळें ना.

समेटाचें काम जातकूच ब्लेफुस्कूचे सरदार म्हाका मेळूंक आयले. हांव तांचेकडेन मेकळेपणान उलयलों. तांच्या देशांत एक फावट येवपाची म्हजी इत्सा आयकून तांकां खोस जाली.

हांवें लिलिपुटाच्या राजाकडेन ब्लेफुस्कू राज्यांत वचपाक मान्यताय मागली. ताणें ती दिली खरी. पूण बरोच दुस्वास दाखयलो. हांव ब्लेफुस्कूच्या सरदाराकडेन मेकळेपणान उलयलों, तेन्नाच हांवें लिलिपूट राज्याकडेन फितुरी केल्या असो तांणी अर्थ केल्लो खंय!

हे घडणुके उपरांत राजकारण, दरबारांतलीं कारस्थानां, एकमेकांक लावन घालप हांचे विशी म्हजें मन साप्प विटिल्लें. राजा, दरबारी लोक हांची पर्वा करिनासतना ब्लेफुस्कू राज्यांत वचून येवपाचें हांवें थारायलें.

❐ ❐ ❐

# ६ अजापी जगाचो निरोप

ब्लेफुस्कू राज्यांत वचपाक म्हाका ताकतिकेन भायर सरचें पडलें. लिलिपूट राज्यांत म्हज्या आड भयंकर कारस्थान शिजतालें. तांच्याच एका सरदारान म्हाका त्या कारस्थानाविशीं सांगलें, म्हूण हांव वाटावलों. त्या सरदाराचेर हांवें एक फावट उपकार केल्लो, ताचेंच म्हाका फळ मेळिल्लें आनी हांव बरेतरेन म्हज्या मायदेशांत पावलों.

हें कारस्थान रचपाक खास राजेसायब मुखार सरिल्ले. हांवें करूं नाशिल्ल्याच गुन्यांवाची वळेरी करून दिवाणजीन ती राजा मुखार मांडिल्ली. ती वाचून ख्यास्त म्हूण म्हजे दोळे काडून म्हाका सांसणाखातीरूच कादयेंत उडोवचेली आज्ञा केल्ली. ही ख्यास्त दिवपा फाटलो तांचो हेतू दुसरोच आसलो. हांवें ब्लेफुस्कूचें आरमार ना नपश्यात करूंना, हाचो राग तांणी काडिल्लो.

म्हाका इतली खबर सांगून जातकूच तो सरदार गेलो. खरें फट पारखुपाक हांवें आनीक वेळ व्हगडायलो ना. एका चादरांत म्हजे गरजेचे कपडे घालून तांची पोटली बांदली आनी ती घेवन ल्हवूच न्हंयचे देगेर गेलों. मात्शें व्हडशें तारूं पळोवन म्हजी कपड्यांची पोटली तातूंत उडयली आनी तारवाची सरपळी हातांत धरून हांव पोंवत पोंवत ब्लेफुस्कू राज्यांत गेलो. अशेतरेन लिलिपुटाच्या राजाचें कारस्थान हांवें पोल करून उडयलें.

आमच्या सारक्या व्हडल्या मनशांच्या राज्यांत जे तरेच्यो धोंशी चलतात, कारस्थानां शिजतात तेचपरी गिड्ड्या मनशांच्या राज्यांतूय घडटालें. तें पळोवन म्हाका सामको वीट आयलो.

गिड्ड्या मनशांच्या एका राज्यांतलो बरो - वायट अणभव गांठीक बांदून हांव दुसऱ्या गिड्ड्या मनशांच्या राज्यांत पाविल्लों.

हांव ब्लेफुस्कूचे देगेर पावतकूच तांणी म्हाका उर्बेभरीत येवकार दिलो. दोन दोन वाटाडे सांगाताक दिवन तांणी म्हाका सोमतोच राजपाटणांत धाडलो.

हांव शारा लागसार पावतकूच थंयची राजा - राणी आनी हेर मानेस्त हांणी फुडें येवन म्हाका येवकार दिलो. लिलिपुटाच्या लोकांवरी हांगाचे लोक म्हाका पळोवन भिलेनात. तेभायर म्हजेविशीं बऱ्योच गजाली तांच्या कानार पाविल्ल्यो आसूंक जाय.

तांणी म्हजी बडदास्त बरी दवरिल्ली. हांतरूण-पांगरूण नाशिल्ल्यान मात म्हाका उकत्यार न्हिदचें पडटालें.

त्या राज्यांत येवन म्हाका तीन दीस जाल्ले. हांव सगलेकडेन मेकळेपणान फिरतालों. एक

दीस हांव दर्यादिगेर फिरपाक गेल्लों. दर्याच्या उदकांत पयस कितेंतरी काळेंचशे उफेतालें. बूट-मेय काडून देगेर दवरून हांव उदकांतल्यान पोंवन फुडें गेलों. लागीं पावतकूच सारकें पळयल्यार कितें? एक उमथो पनेळ भरतेच्या ल्हारांचेर व्हांवत येतालो. खंयचेतरी बुडिल्ले पातमारेवेलो तो पनेळ आसतलो. तो पळोवन म्हाका खूब खोस जाली. हो पनेळूच म्हाका ह्या विचित्र मनशांच्या दाडयांतल्यान म्हज्या मायदेशांत पावोवंक शकतालो.

ब्लेफुस्कूच्या राज्याचे मान्यतायेन ताचीं दोन - तीन तारवां हांवें त्या पनेळा म्हऱ्यांत धाडलीं. मागीर हांव पोंवत तांचेसरीं गेलों आनी पनेळ तारवांचे सरपळेक बांदलो. वारो बरो आशिल्ल्यान पनेळ तारवां फाटल्यान व्हांवत दर्या देगेर आयलो. पनेळाच्या फाटल्यान रावन हांवूय मदीं मदीं तो धुकलतालों.

देगेर पावतकूच शेंकड्यांनी तांडेलांच्या आदारान तो पनेळ उदारो केलो. तो मात्सो सारको केलो जाल्यार व्हड प्रवासाक म्हाका उपकारतलो, अशें म्हाका दिसलें. मागीर हांव त्याच कामाक लागलों.

हांव लिलिपूट राज्यांतल्यान ना जातकूच तांकां दिशिल्लें, हांव ब्लेफुस्कू राज्यांत भोंवडी करूंक गेलां. रोखडोच परततलों म्हूण तांणी कांयच जाग माग केली ना. बरेच दीस जातकूच हांव परत येना जायत म्हूण तांकां दुबाव आयलो. निमणें तांणी म्हजे आड एकठांय केल्ल्या कागाळयांची यादी ब्लेफुस्कू राजाकडेन धाडून दिली आनी म्हाका बंदी करून लिलिपूट राज्यांत धाडून दिवचो अशें तातूंत बरयलें.

ब्लेफुस्कूच्या राजान तांची मागणी मान्य केलीना. म्हाका बंदी करप ताका पुटवना जालें. ताणें लिलिपुटाच्या राजाक रकाद धाडलो, ''नरपर्वताक एक व्हडलें व्हडें मेळ्ळां. तातूंत बसून तो आपल्या मायदेशांत वता. झगड्यांचें मूळच ना जाता.''

ही चीट घेवन लिलिपुटाचो सरदार वतकूच राजान ही खबर म्हाका सांगली. तेचबराबर ब्लेफुस्कू राज्यांत लिपून रावपाचो आग्रोय केलो. म्हजी राखणेची ताणें हमी दिली. पूण थंयचीं राजकारणां आनी दरबारी कटकटी हांणी म्हाका वीट हाडिल्लो. तेभायर म्हाका लागून ह्या दोनूय राज्यांत धोशी वाडच्यो अशीय म्हजी इत्सा नासली. म्हूण म्हाका मेळिल्ल्या पनेळाच्या आदारान गिड्ड्यांच्या राज्याक हांवें निमणो नमस्कार करपाचो निश्चेव केलो.

म्हज्या निश्चेवान आपल्याक खूब वायट दिसला, अशें राजा म्हाका परत - परत सांगतालो. पूण ताका मनांतल्यान खोस जाल्या हें म्हाका मागीर कळ्ळें.

म्हजें व्हडें सारकें जावन हांवें बेगिनूच तांचो देस सोडचो, म्हूण शेंकड्यांनी कारागीर म्हाका आदाराक दिल्ले. तांच्या कपड्यांचे एकार एक तेरा थर शिंवन हांवें शीड तयार केलें. धा-वीस दोरयो एकठांय वळून घट्टशी आनी रुंदशी दोरी तयार केली. एक व्हडलो फातोर तिका बांदून नांगर केलो. बरीं उंचायेचीं झाडां कापून खांबो (डोलकाठी) आनी व्हल्ली तयार केली.

म्हयन्याभितर म्हजी वचपाची पुराय तयारी जाली. राजेसायबांचो निरोप घेवंक हांव तांगेर गेलों. राजकुटुंबांतल्या सगल्यांनी म्हाका मोगान निरोप दिलो. म्हाराजान तांची याद म्हूण पन्नास मुवेदांची थैली आनी आपलें एक बरेंशें चित्र दिलें.

म्हाका वांगडा व्हरपापासत चारशीं रांदप्यांक जेवण-खाण करूंक लायिल्लें. तें सगलें सामान बरें करून हांवें व्हड्यांत मांडलें. आमच्या लोकांक दाखोवपाखातीर हांगाचे दोन चार गिड्डे हांवें वांगडा व्हरपाचेंय थारायल्लें. पूण म्हाराजान मान्यताय दिलीना. चार गायो आनी बोकड्योय हांवें बरोबर व्हेल्यो.

अशेतरेन सगली तयारी करून जातकूच २४ सप्टेंबर १७०१ ह्या दिसा फांतोडेर हांवें शीड लावन व्हडें भायर सोडलें आनी गिड्ड्यांच्या राज्याक निमाणो नमस्कार केलो.

म्हजेकडेन आशिल्ल्या होकायंत्राच्या आदारान तारवांची येरादारी चालू आशिल्ल्या देशाची वाट सोदत हांव व्हडें ताणूंक लागलों. दिसभरांत म्हाका एकूय तारूं मेळ्ळें ना.

दुसऱ्या दिसा दनपारचें अशें पयस एक शीड दिसूंक लागलें. म्हजें शीड लावन नेटान व्हल्ली मारत हांव त्या तारवा म्हऱ्यांत वचूंक लागलों. सांजवेळ जातसर हांव ताचेलागीं पावलों. कितल्याच तेंपान म्हज्या येद्या आकाराचे मनीस पळोवन म्हाका कितली खोस जाली जाणा?

सुरवेक म्हज्या गजालींचेर तांचो विस्वास बसना जालो. म्हाका तांणी पिसोच थारायलो. पूण हांवें बरोबर हाडिल्ल्यो गायो-बोकड्यो दाखयतकूच तांची खात्री पटली. हे निमाणें भोंवडेंत कांयच अरिश्टां येना आसतना आमी इंग्लंडचो धको गांठलो.

अशेतरेन गिडड्यांच्या राज्यांतली भोंवडी पुराय जाली. हांचेकूय अजापी लोक जगांत आनीक आसात हाची म्हाका खात्री नासली. पूण दुसरे भोंवडे वेळार तोवूय अणभव आयलो.



भाग २

# राकेशी मनशांच्या जगांत

## १ गिड्ड्यांपरसूय गिड्डे

लिलिपूट राज्यांतल्यान अजापांचे अणभव घेवन हांव बरेभशेन म्हज्या मायघरा पावलों, हाचे फुडें आनी खंयच भायर सरचोंना, बायल भुरग्यां सांगातान सुखान रावतलों, असो निश्चेव करुनूच हांव घरांत भितर सरलों.

पूण म्हज्या पायांक जल्मतांच चक्रां बांदल्यांत आसतलीं. दोन म्हयने घरांत रावन सामको वाज आयलो. तेन्नाच सुरताक वचूंक एक पातमारी भायर सरची आसा म्हूण म्हाका कळ्ळें. हांवें आनीक वेळ केलो ना. तातूंत दोतोराचो जागो रितो आसलो. तीच नोकरी करपाचें थारावन हांव भोंवडेक भायर सरलों.

आफ्रिकेंतल्या 'केप ऑफ गुडहोप' ह्या बंदरांत आमी थोडे दीस विसव घेतलो. उपरांत मादागास्करच्या समुद्रधुनींतल्यान मुखार सरले. इतलो वेळमेरेन आमचे भोंवडेचेर जीं कितें अरिश्टां आयलीं तीं सांगपाचीं न्हय. वादळी वाऱ्यांक लागून आमची पातमारी दिका सोडून खंयचे खंय व्हांवपाक लागली. आमी खंय पावल्यात तें कोणाकूच कळना जालें.



१६ जून १७०३ दिसा तारवाच्या मुखेल खांब्यावंयल्यान पळयतना एका तांडेलाक पयस खंयतरी जमीन दिसली. अन्न-उदक भरून घेवपा पासत आमी पातमारी थंय व्हरून नांगरायली.

देगेर सगलीं खडपांच खडपां दिसतालीं. म्हजे वांगडी अन्न-उदकाच्या सोदाक, गांवांत गेले. हांव खडपांतल्यान

वाट काडीत देगेर भोंवपाक लागलों. पुरो जातकूच हांव परतलों. पयसुल्ल्यान तारवां वाटेन गर्दी करून वाग फाटीक लागिल्लेवरी सडसडीत तारवां म्हऱ्यांत वतालों. व्हडान आड्डून तांकां थांबोवपाचो विचार तकलेंत येतनाच हांवें भयांकृत देखाव पळयलो आनी म्हजी जीब ताळ्याकूच दसली.

व्हड्या फाटल्यान एक भयांकृत राकेस लांब लांब धेंपो मारीत दर्यांत वतालो. पूण फातरट वाट जाल्ल्यान ताका सडसडीत मुखार सरूंक मेळनासलें. तितलेभितर तांडेलांनी हुशारकायेन व्हडें पातमारे म्हऱ्यांत व्हेलें, म्हाका थंयच सांडून म्हजे सांगाती पातमारी घेवन गेले.

त्या विचित्र राकेसांच्या राज्यांत हांव एकटोच उरिल्लों. धांवत धांवत खर्शेत धांपेत हांव पयसुल्ल्या एका शेतांत वचून लिपलों. तातुंतलें पीक चाळीस फूट तरी  उंचायेचें आसलें. शेताभोंवतणची वंयूय सवायशीं फूट उंच आसतली. रुकांच्यो तेंगशो दिसनासल्यो, इतले ते उंच



आसले.

त्या शेतांतल्यान कशीतरी वाट काडीत हांव वचूंक लागलों. मात्सो मुखार पावतकूच हांवें व्हड्या फाटल्यान वचपी राकेसावरी एक राकेस पळयलो. तो म्हजे वटेनूच येतालो. ताची उंचाय देवळाच्या कळसा इतली तरी आसतली. ताचें दर एक धेंप म्हळयार आमचीं धा पंदरा पावलां तरी जातलीं.

उजवे वाटेन पळोवन ताणें कोणाक तरी उलो मारलो. ताचो उलो आयकून ताचेवरी

भयांकृत अशे सात राकेस व्हिळे, कोयत्यो पाजीत म्हजे वटेन येवंक लागले. तांच्या भेसावयल्यान ते मानाय कशे दिसताले. ते कचाकच शेत कापूंक लागले. हांव उबो आसलों, तेवाटेच्यानूय ते कापीत येताले. हांव फाटल्यान वळून धावूंक लागलों. मात्सो मुखार पावतासर दुसरी आडखळ दिसली. पावसान शेत आडवें जावन ताची वणत कशी जाल्ली. थंयच्यान वाट ना ती पळोवन हांव फाटीं वळ्ळो.

ते राकेस शंबर पावलांर पाविल्ले. निरशेवन हांवें जमनीर घालून घेतलें. म्हज्या दोळयांतल्यान दुकां घळघळूंक लागलीं. सुखाचो संवसार सोडून हांवें म्हजो जीव त्रासांत उडयला. म्हजो म्हाकाच राग आयलो.

लिलिपूट राज्यांतल्या गिड्ड्यांक हांव भयांकृत राकेस कसो दिसतालों म्हूण म्हाका बरोच गर्व जाल्लो. आता मात उरफाटें जाल्लें. ह्या खऱ्या राकेसांच्या राज्यांत हांव गिड्ड्यांपरसूय गिड्डो दिसतालों. तांच्या आकारावरी ते पाडेबुध्दिचे आसले जाल्यार आनी म्हाका गती नासली जाल्यार एका घांसांतूच ते म्हाका खावन उडयतले आसले.



म्हज्या मनांत अशे विचार येता थंय आसात, इतल्यांत तो म्हज्या म्हऱ्यांत पावलो. आतां तो म्हाका चिड्डून मारतलो काय कोयत्यान म्हजे कुडके करतलो, कांय कळनासलें. आनीक उपाय दिसनासून हांव जिवाच्या आकांतान आड्डलों. कच्च करून आंग काडून तो एक पावल फाटीं सरलो. कितलो वेळ तो म्हाका हांगा थंय सोदूंक लागलो. निमाणें ताची नदर पांयांकडेन

वतकूच ताका हांव दिश्टी पडलों. गांयडोळ ना तर बेबूक दिसतकूच आमी जशें तोंड करतात, तशेतरेन म्हाका पळयत बोटाचे चिमटेन ताणें म्हाका बारीकसाणेन पळयलें. ताच्या हातांतल्यान सुटल्यार म्हजी सामकी चटणी जातली आसली.

हांव वोग्गी रावन तो कितें करता तें पळोवंक लागलों. तो म्हाका निरखिता आसतनाच हांवें हात जोडून म्हाका सोडपाविशीं सांगलें. पूण म्हजी भास ताका कशी कळटली आसली?

म्हज्या बऱ्या नशिबान जावंये, ताका म्हजी काकूट दिसली. एक अजापी मनीस म्हणुनूय ताणें म्हाका जितो दवरलो जावं येता. ताणें म्हाका आपल्या आंगावयले काबायेंत गुठलावन आपल्या भाटकारा म्हऱ्यांत व्हेलो.

ताच्या भाटकारान म्हजेकडेन अजापान पळयलें. म्हाका ह्या हातार त्या हातार खेळयत ताणें सकयल दवरलो. पळून वचपांत कांयच अर्थ नासलो. हांव धिटायेन उबो रावलों. ताका पांय पडून मळबाकडेन हात व्हरून ''देवाखातीर म्हाका सोडून दियात'' म्हूण पारथिलें. हांव असो कुरवांनी तांचेकडेन उलयतना ते सगले म्हजे भोंवतणी रावन म्हाका तेळटाले.

म्हज्या बोल्सांतल्यान मुवेदांची थैली काडून हांवें ताका दिली. पूण ताका त्या बारीक कुडक्यांचें व्हडलेंशें म्हत्व दिसलेंना. म्हज्या कुरवांचो आनी उलोवण्यांचो एक बरो फायदो जालो. हांव सादी कीड मूय नासून तांचेवरीच वाचा - विचार आशिल्लो मनीस म्हूण कळळें. आपल्या मानायांक कामाक धाडून शेतकारान ताचो लेंस जमनीर पातळायलो. ताची दाटाय एक फूट तरी आसतली. ताचेर ताणें म्हाका बसूंक सांगलें. ताणें उखलतकूच हांव पडचों न्हय, म्हूण हांव न्हिदलों. ताणें म्हाका बरेतरेन गुठलावन घरा व्हेलो.

दारांत पावतनाच ताणें बायलेक आपोवन अजाप दाखोवचें तसो म्हाका दाखयलो. जल्ल्याक पळोवन आंग काडचें तशें म्हाका पळोवन भिवन ती फाटल्या पांयांनी पळून गेली. मागीर मात म्हजें वागप, समजिकाय पळोवन ती म्हजेर माया करूंक लागली.

भाटकारान म्हाका घरा व्हेलो, तेन्ना दनपार जाल्ली. एका मेजार जेवणाचीं ताटां मांडिल्लीं. तें मेज जमनीरसाकून तीस फूट उंचायेचेर आशिल्लें. ताणें ताचेर म्हाका दवरलो. हांव पडचो न्हय म्हूण मदींसो वचून उबो रावलो. ताचे बायलेन इल्लोसो भाकरेचो कुडको मोडून म्हाका दिलो. सगल्यांत धाकटें आयदन सोदून उशीकांड्या रोसाभशेन पिवपाक दिलें. तांचें सगल्यांत ल्हान आयदन म्हळयार आमच्यो दोन धागरी उदक जायत इतलें व्हड आयदन आसलें.

हांव जेवतालों, तेन्ना तांच्या धाकट्या पुतान एकदम म्हाका वयर उखल्लो आनी हुमकळावन कसो धरलो. खिणभर म्हाका दिसलें, 'आतां म्हजें आयुश्य सोंपलें!' पूण ताच्या बापायन

रोखडोच म्हाका ताचे चिमटेंतल्यान अळंग काडून मेजार दवरलो आनी ताच्या कानसुलार एक थापट फुलयलें. त्या आवाजानूच म्हाका कडकडो भरलो.

आतां तो भुरगो म्हजेर दाव धरीत म्हूण हांवें भाटकारामुखार दिमयो मोडून ताका मारूं नाका म्हूण सांगलें. म्हजें समजिकायेचें वागणें पळोवन भाटकाराक आनी ताचे बायलेक अजाप दिसलें. मांजरा पिलाक ल्हवू ल्हवू सांसपुचें तशें ताणें आपल्या पुताचो हात म्हजेवेल्यान भोंवडायलो.

आमी जेवतालीं, तेन्ना भाटकान्नीच्या मांजरान तिचे मांडयेर उडी मारली आनी तें गुरगुरूंक लागलें. तें बैलापरसय तीन पटीन व्हड आशिल्लें. म्हाका ताची खूब भिरांत दिसली. पूण तें म्हजेकडेन पळय लेगीत नासलें.

आमी जेवन उठ्ठकच एक वावराडी तांच्या धाकट्या पुताक घेवन आयली. म्हाका पळयतकूच ताणें ''म्हाका खेळूंक दी'' म्हूण हट्ट धरलो. तो मागूनच रावलो ना. म्हाका उकलून ताणें सोमतोच तोंडाकडेन व्हेलो. तेबराबर हांवें किळांच मारली. म्हज्या आवाजाक भियेवन ताणें म्हाका सट् करून सोडलो. हांव जमनीर पडिल्लों जाल्यार आनीक जगपाची आशाच नासली. पूण म्हज्या बऱ्या नशिबान ताचे आवयन म्हाका आपले व्हटयेंत जिखून धरलो.



उपरांत 'ताका बरेतरेन सांबाळ' अशें बायलेक सांगून भाटकार कामार गेलो. भाटकान्नीन आपल्या हांतरुणाचेर म्हाका न्हिदोवन एक लेंस पांगुरपाक घालो.

खूब पुरो जाल्लें आनी नव्या भयांकृत अणभवांनी मनूय थकिल्लें. तेचखातीर जावंये दोन

तीन वरां म्हाका सुस्त न्हीद लागली. हांव म्हज्या घरांत बायल-भुरग्यां वांगडा मजेंत आसा अशें सपन लेगीत पडलें. जागो जातकूच मात तांचे यादीन म्हाका खूब वायट दिसलें.

जाग येतकूच हांवें ती कूड बारीकसाणेन पळयली. ती दोनशीं- तीनशीं फूट रूंद, तशीच उंचूय आशिल्ली. खाट वीस फूट रूंद आसली. जमनीर साकून ती चोवीस फूट उंचायेचेर आशिल्ली. हांव ती कूड, सामान आनी तांची अजाप दिसपासारकी मोटाय पळयत पडून राविल्लों. तितल्यांत दोन व्हडले हुंदीर तुरतुरीत धांवन म्हज्या म्हन्यांत आयले. एकट्यान म्हाका कच्व करून



घांस मारलो. पूण म्हज्या आंगावेल्या दाट आंगाच्याक लागून आनी चामड्याच्या पट्याक लागून हांव वाटावलों.

हांवें सट् करून म्हजी तरसाद काडली आनी एका हुंदराच्या पोटाक तोंपली. तें पळोवन दुसरो हुंदीर धांवलो. ताचेय मानेचेर हांवें एक घाय घालो. ते हुंदीर खरेपणीच शिकारी कुत्र्यांवरी व्हड दिसताले. तांची शेपडीय चार पांच फूट लांब आसली.

कांय वेळान भाटकान्न भितर आयली. जमनीर, बाजेर आनी म्हज्या आंगार रगत पळोवन ती भियेली. हांवें बेगीबेगीन म्हजे तरसादीक बोट दाखोवन कुरवांनीच ताका हांवें मारला, म्हूण सांगलें.

एके वावराडेक आपोवन तिणें हुंदराक भायर उडोवंक सांगलें. म्हजी रगतान भरिल्ली तरसाद धुवून पुसून म्यानांत दवरली आनी तिका झेतान मुजरो केलो. म्हजो पराक्रम कळटकूच सगल्यांनी म्हजी अपुर्बाय केली.

❒ ❒ ❒

# २. म्हजें प्रदर्शन



म्हजे हे मालकिणीक एक शिटूक धूव आसली. शिंवपाक, विणपाक तशेंच ल्हान भुरग्यांचे कपडे शिंवपाक लेगीत ती हुशार आसली. तिचे बावलेच्या पाळण्यांत एक ल्हान कुडको घालून तिणें म्हजी न्हिदपाची वेवस्था केली. तिणें म्हजें पाळणें आरमारींत भितरल्या खणांत एका खिळयाक हुमकळायलें. रातचें हुंदरांनी म्हाका खावचें न्हय, म्हूण अशी वेवस्था केल्ली.

ते सान चलयेन म्हाका तांची भास शिकोवंक आरंब केलो. एकाद्रे वस्तूक हांव बोट दायखतालों आनी ती म्हाका ताचें नांव सांगताली. उपरांत हांव थोड्याच दिसांभितर म्हाका जाय ती वस्त नांव सांगून मागूंक लागलों. ही चली सभावान खूब बरी आसली. तांचे नदरेन ती सामकीच गिड्डी म्हणजेच चाळीस फूट उंच आसली.

त्या प्रचंड राकेसांच्या जगांत हांव ते धाकटुलेक लागून बरेतरेन रावंक शकलों. थंय आसासर ती म्हजेपसून मात्तय पयस वच नासली.

तांचे भाशेंत तिचें नांव ''गुलमडालवकीय.'' हांवें म्हाका सोपें पडूंक तें गुमा केलें. तिची आनी म्हजी बरीच दाट इश्टागत जाली. तिका लागुनूच हांव म्हज्या मायघरा पावंक शकलों. ते पासत तिका मात बरेच त्रास सोंसचे पडले जातले.

ह्या भाटकारागेर मनशावरी एक प्राणी रावता ही खबर सगल्याक पातळ्ळी. दोन पांयांर

उबो रावपी, उलोवपी, सांगता तीं कामां करपी एक सोबीत प्राणी म्हूण म्हजें वर्णन ते करताले.

हे खबरेचें खरेपण पळोवपाक एक दीस ताचो शेजारी आमगेर आयलो. भाटकारान म्हाका मेजार हाडून दवरलो. ताणें सांगिल्लेप्रमाण हांवें फुडें-फाटीं वचून दाखयलें. तरसाद चलोवन दाखयली. पांयां पडून ताका येवकार दिलो आनी ताची वासपूस केली.

हो म्हातारो द्दोळयांनी मात्सो कुड्डो आसलो. ताचे गरगरीत घुंवपी दोळे पळोवन म्हाका मजा दिसली. हांव व्हडाव्हडान हांसूंक लागलों, तें पळोवन बाकीचे लोकूय हासूंक लागले. त्या म्हाताऱ्याक आमच्या फकाणांचो खूब राग आयलो.

तो म्हातारो सामको चामटो आशिल्लो. फकत पयशांक वळखुपी. ''गांवचो बाजार भरता, तेन्ना म्हजें प्रदर्शन मांडल्यार खूब पयसो मेळूं येता.'' अशें ताणें भाटकाराक सांगलें.

ही खबर म्हजी इश्टीण गुमान म्हाका सांगली. तिका हे गजालींचें वायट दिशिल्लें. बाजारांत लोकांचे गर्देंत हांव चिड्डून मरत म्हूण ती घसघशांनी रडूंक लागली. तिच्या आवय बापायन पयलीं खेळणें म्हूण म्हाका तिचेकडेन दिल्लो. आतां मात ते म्हजेर पयशे मेळोवपाक सोदताले. तें आयकुनूच तिका खूब वायट दिसलें.

म्हाका मात मात्तूय वायट दिसूंक नासलें. हे निमतान भायर वचूंक मेळ्ळयार फुडें - फाटीं पळून वचपाची संद मेळत ही आशा आसली.



बाजारा दिसा एक ल्हानशे पेटयेंत घालून भाटकार म्हाका घेवन गेलो. ती पेटी सगलेवटेनच्यान बंद आसली. फकत वारो येवपाक एकच बुराक  दवरिल्लो. म्हजी इश्टिणूय म्हजे वांगडा बाजारांत आयिल्ली. म्हाका प्रवासाचो त्रास जावं नये म्हूण तिणें एक गोजडी पेटयेंत पातळायल्ली, तरी लेगीत म्हाका खूब त्रास जालो. भाटकार म्हाका घेवन घोडयार बशिल्लो. घोडयाचें एक पावल म्हळयार चाळीस फूट उंच, लांब उडी मारिल्लेवरी. एकाद्रें तारूं मोडांत सांपडटकूच जशें वयर सकयल जाता, तशें म्हाका दिसतालें.

बाजारांत पावतकूच तो एके खानावळींत गेलो. ताणें मालकाक सांगून एक कूड भाडयान घेतली. एका मनशाक म्हजेविशीं जायरात करपाक सांगली. ''आयकात, आयकात, जगांतलो सगल्यांत विचित्र आनी अजापी मनीस पळोवंक येयात. ताची उंचाय फकत स फूट! ताका मनशावरी सगलीं आंगां आसात. तो कसो हुशारकायेन उलयता चलता तें पळोवपाची संद वगडायनाकात.'' अशे तरेन तो जायरात करतालो.



म्हाका एका मेजार दवरिल्लो. ती कूड तीनशीं फूट रूंद आसली. मेजा म्हज्यांतूच एके तामरेतीर बसून गुमा म्हजी जतनाय घेताली आनी लोकांमुखार कशें-कितें करप तेंवूय सांगताली.

कुडींत गर्दी जावन म्हाका त्रास जावचो न्हय म्हूण खेपेक तीस तिसूच लोकांक भितर घेताले. लोक म्हज्यांत येतकूच हांव तांकां येवकार दितालों. तांकां चलून दाखोवप, तांच्या प्रस्नांच्यो जापो दिवप, तरसादीचे खेळ करप अशीं कामां करून दाखोवचीं पडटालीं. मागीर गुमा एक तणाची काडी दिताली. ती भाल्या सारकी धरून हांव कसरत करतालों.

त्या दिसा बारा वेळा म्हाका खेळ करून दाखोवचे पडले. हांव सामकों जाम जालों. म्हाका पळोवपाक गेल्ले लोक तिखट-मीठ लावन हेरांक म्हजे कसरतीच्यो खबरी सांगताले. मागीर शेंकड्यांनी लोक म्हाका पळोवपाक गर्दी करूंक लागले. दारां मोडून ते भितर रिगत म्हूण म्हाका भंय जालो.

एका दिसाच्या प्रदर्शनानूच इतलो फायदो जाला, म्हूण भाटकार भुल्लुसुलो. देशांतल्या व्हड-व्हड शारांनी वचून म्हजें प्रदर्शन करून पयसो जोडचो असो बेत तो करूंक लागलो. हे भोंवडेची सगली तयारी करून एक दीस म्हाका आनी गुमाक घेवन तो राजपाटणांत वचूंक भायर सरलो. वाटेर मेळटल्या शारांनी म्हाका दाखयत दाखयत निमणें राजपाटणांत वचून राजदरबारांत प्रदर्शन करप असो ताचो बेत आसलो.

आमी इल्ली इल्ली वाट चलतालीं. चड चल्ल्यार म्हाका पुरो जायत म्हूण गुमान ही वेवस्था केल्ली. मदीं मदीं ती म्हाका भायर काडून वाऱ्याक दवरताली आनी सरभोंवतणचो देखाव दाखयताली. अशा वेळार हांव पडचों न्हय, म्हूण ती म्हाका दोरी बांदून तिचें एक पोंत घट्ट धरून दवरताली. अशेतरेन आमचीं धा सप्तकां गेलीं.

निमाणें २६ आक्टोबरा दिसा आमी राजपाटणांत पावलीं. राजवाड्या लागसारूच एक म्हाल रस्त्यार भाटकारान बिराड केलें. म्हजेविशीं म्हायती सांगपी जायराती ताणें पुराय शारांत लायल्यो.



सादारण तीनशीं ते चारशीं फूट लांब रूंद अशी एक कूड म्हजें प्रदर्शन मांडपाखातीर ताणें भाड्यान घेतली. तातूंत मदीं एक मेज दवरलें. हांव त्या मेजावयल्यान सकयल पडचों न्हय, म्हूण चारूय वाटांनी सुमार तीन फूट उंचायेची वंय केल्ली. हांव मेजार रावन म्हाका शिकयल्ले सगले खेळ करून दाखयतालों. अशेतरेन दिसाक धा फावटीं तरी खेळ करून दाखोवचो पडटलो. ते वेळमेरेन म्हाका तांची भासूय उलोवपाक येताली.

ह्या प्रदर्शनाचो शारांत बरोच बोवाळ जालो. दर एकलो म्हजेविशीं सुरबूस खबरी पातळायतालो. निमणें ह्यो गजाली राजदरबारांत पावल्यो. भाटकार हेंच सोदतालो.

❒ ❒ ❒

# ३ दरबारांत नेमणूक

ह्या प्रदर्शनाक लागून म्हजे हालहाल जाले. हांव बरो ना जालों. म्हजी जेवणावेली वान्साच गेली आनी हांव सामकों हाडकुटो जालों. म्हजी अशी दशा पळोवनूय भाटकाराचीं वसवशेपणां उणीं जायनासलीं. वेल्यान ताका दिसतालें जावंये, हांव असोच खंगून खंगून मरतलों, तितलें म्हणसर म्हजो फायदो घेवन आपली तिजोरी भरची.

अशेतरेन तो बेत करता आसतनाच एक दीस दरबारांतलो शिपाय ताचेसरी आयलो. राणीसायबाच्या हुकमाप्रमाण, म्हाका दरबारांत घेवन येवपाविशीं ताका फर्मायलो आनी म्हाका दरबारांत वचपाची संद मेळ्ळी. राणये म्हालांतल्या कांय बायलांनी म्हजे खेळ पळयल्ले. तांणी ताचें रुचीक वर्णन राणयेकडेन केल्लें.

तरीय प्रत्यक्षांत म्हाका पळयतकूच, मनशावरी शाणेपणाची अशी म्हजी वागणूक पळोवन तांकां मजा दिसली.

म्हजो देस, हांवें केल्ल्यो भोंवड्यो हाचेविशीं तांणी म्हाका जायते प्रस्न केले. हांवेंय तांचे भाशेंत चुकत - माकत म्हज्यो खबरी सांगल्यो. त्यो आयकून तांकां अजाप जालें.

हांव तांकां खूब आवडलों. राणयेन म्हाका दरबारांत रावशी काय म्हूण विचारलें. म्हाकाय तेंच जाय आशिल्लें. पूण हांवें सरळ 'हां' म्हळें ना. हांवें तिका म्हळें, ''राणीसायब, हांव सद्या म्हज्या मालकाचो बंदी जावन आसां. तुमकां हय ना म्हणपाचो अधिकार म्हाका ना. पूण म्हाका संद मेळ्ळयार तुमची सेवा करपाक म्हाका खोस जातली.''

तांणी म्हज्या मालकाकडेन म्हाका विकतो मागलो. म्हजी दशा पळोवन म्हजें मरण लागीं पावलां असो भाटकाराचो समज जाल्लो म्हूण म्हाका विकून निमणें भरपूर पयसो करचो, अशें ताणें थारायलें. पूण वेलेचाराक ताणें बरेंच गणमणायलें आनी निमणें म्हजें मोल एक हजार मुवेंदां म्हूण सांगलें.

आपले आवडीची वस्त घेवपाक राणी फाटलो - फुडलो विचार करनासली. तिणें रोखड्या रोखडींच मुवेदां दिवन म्हाका विकतो घेतलो. हांवें म्हजी इश्टीण गुमाकय म्हजे वांगडा दवरची म्हूण राणी सायबाकडेन विनवणी केली. तिणें तें रोखडेंच मान्य केलें. आपले धुवेक राणयेच्या म्हालांत रावंक मेळटलें, तें पळोवन भाटाकाराक खूब खोस जाली.

वयल्यान मात ताणें आमकां दोगांकूय दवरून वतना खूब वायट दिसलां म्हणपाचें नाटक केलें. हांवे कोंपरामेरेन ताका नमस्कार करून तोंड फिरयलें. तो वतकूच राणयेन म्हाका विचारलें,

''तूं ताचेकडेन असो कित्याक वागलो?'' हांवें खरें तेंच सांगलें, ''राणी सरकार, म्हाका ह्या भाटकाराविशीं मात्तूय आपुलकी दिसना. कशी दिसची? ताणें म्हजेर एकूच उपकार केला. म्हाका जितो दवरला. आपल्या फायद्याखातीर जावं मागीर! तुमच्या राज्यांतल्या सादारण अर्द्यावयर गांवांनी ताणें म्हजें प्रदर्शन भरयलें आनी थोडो पयसो जोडलोना. तेखातीर म्हजे मात हाल हाल केले. म्हज्या जाग्यार धा वांट्यांनी चड बळगें आशिल्लो मनीस जाल्यार तो लेगीत काबार जावन वचपाचो. सद्या हांव तुमच्या आलाशिऱ्याक आंसा ती देवाची कृपाच म्हणपाची''

म्हजें हें उलोवणें आयकून राणयेक खोस जाली. म्हाका हाताच्या तळटार बसोवन तिणें म्हाराज म्हऱ्यांत व्हेलो. म्हाराजान सुरवेक म्हजेकडेन तिरस्कारान पळयलें. ताका पयलीं दिसलें,



हांव तांच्या राज्यांतलो एक जीव आसतलों. राणयेन म्हाका सकयल दवरलो आनी म्हजी खबर राजाक सांगूंक लायली. हांवें धिटायेन तांचे भाशेंतल्यान हांवें अणभविल्ल्यो घडणुको सांगल्यो.

त्यो आयकून राजाक अजाप जालें. हांव टेप केल्ले वरी उलयतां म्हूण ताका दुबाव आयलो. मशिनावरी म्हाका शिकयिल्लेंच उलोवपाक येता काय कितें तें पळोवपाक ताणें म्हाका आडवे तिडवे प्रस्न विचारले. हांवें सारक्यो जापो दिल्यो. खोशयेन ताणें म्हजी दरबारांत नेमणूक केली. म्हजी जतनाय घेवपाचो हुकुमूय केलो.

राजाचे सांगणेप्रमाण दरबारांतल्या एका हुशार मेस्तान म्हजेखातीर पेटी कशी कूड तयार केली. ती सोळा फूट लांब - रूंद आनी बारा फूट इतली उंचायेची आसली. ल्हान ल्हान जनेलां, दारां, बाज करतना ताका बरेच त्रास पडले. ते पेटयेचें पाकें धाकण्यावरी उगडपाक येतालें. ते पेटयेक खिळी लायिल्ली आनी हांगा थंय व्हरपाखातीर वयल्यान 'हँडल' केल्लें.

खंयूय व्हरतना म्हाका त्रास जावचो न्हय म्हूण कुडभर गालिचो घाल्लो. तांच्या एका कारागिरान हतयाच्या दांतांचीं दोन कदेलां, मेज आनी आरमार तयार केल्ली. ह्यो वस्तू तांचे बावलेच्या खेळाक लागपी वस्तुंपरसूय चार वांट्यांनी ल्हान आसल्यो.

राणीसायबांक म्हजी खुबूच माया लागिल्ली. जेवणावेळार लेगीत तिचे पंगतीक हांव नासत जाल्यार तिका जेवण वच नासलें. म्हजेखातीर तिणें चांदीचीं ल्हान ताटां, वाटयो करून घेतिल्ल्यो. तीं आयदनां गुमा एके डबयेंत घालून आपल्या व्हिस्तिदाच्या बोल्सांत दवरताली. जेवणावेळार खासा तीच तीं ताटां, वाटयो मेजार मांडटाली आनी हांव जेवतकूच घांसून पुसून बोल्सांत दवरताली.

ह्या लोकांचे पंगतीक जेवप म्हळयार एक भयांकृत देखाव पळयिल्लेवरी दिसतालो. तांचो एक घांस म्हळयार आमचे सत्रे इतलो व्हड आसलो. तो खावंक तांणी तोंड उगडलें म्हणटकूच तांचे दांत, जीब आनी जिवणी भयांकृत कशी दिसताली! उदक वा सरबत पिवपाचें आयदन म्हळयार भाणच कशें दिसतालें!

अशेतरेन हांव राणीसायब आनी राजासायबांचे अपुरबायेचो जाल्लों. ही गजाल दरबारांतल्या एकाच मनशाक आवडली ना. तो आसलो एक गिड्डो मनीस. ताची उंचाय तीन फूटच आसली. तांच्या राज्यांतलो तो सगल्यांत मोटवो म्हूण नामना जाल्ली. ताचेकूय मोटवो असो हांव येतकूच ताची किंमत उणी जाल्ली. देखून तो म्हाका आपलो दुस्मान मानतालो.

तो सदांच म्हजेकडेन खावं काय गिळूं अशे नदरेन पळयतालो. म्हाका त्रास दिवपाची एकूय संद तो व्हगडाय नासलो. तो तकलेन मात्सो जड आसलो. हांव येतना वतना ताचीं फकाणां करतालों आनी तो चडच तिडकतालो.

एक दीस जेवतना तो म्हजेर इतलो तिडकलो की रागा भरशीं ताणें म्हजे गोमटेक धरून म्हाका दुदान भरिल्ले चांदीचे वाटयेंत उडयलो. नाका-तोंडांत दूद-साय वचून हांव बुचकळयो खावंक लागलों. इतल्यांत गुमान म्हाका वयर काडिल्ल्यान हांव वांचलों. हे करणेक लागून त्या गिड्ड्याक बेताच्या बडयांनी मारलो आनी धांवडावन घालो.

ह्या देशांत म्हाका चड त्रास दिताले ते मूस. हे मूस गिदा येदे व्हड आसले. ते म्हजे भोंवतणी

सारके घुंवताले. एका एका वेळार ते म्हाका अशे चाबताले, म्हजो जीव वता कसो जातालो. तो गिड्डो दरबारांत आसतना अशे मूस धरून ल्हवूच म्हजेर हाडून सोडटालो. हांव मागीर म्हजे तरसादीन तांकां मारून उडयतालों. तें पळोवन दरबारांतले लोक म्हजी अपुरबाय करताले. हांव



म्हळयार तांकां एक खेळणे कशें जाल्लें.

हांव समुद्र हुपून तांच्या राज्यांत आयलां म्हूण कळ्ळेबराबर, राणीसायबान म्हजेखातीर एक ल्हानशें व्हडें करून घेतलें. एके लाकडी थाळयेंत उदक घेवन ती तें व्हडें तातूंत सोडटाली. दोन दासी म्हऱ्यांत रावन वारो घालताल्यो. हांव शीड लावन वाऱ्याप्रमाण व्हल्ली मारीत फिरतालों. तो खेळ सोंपतकूच गुमा तें व्हडें काडून खिळयाक लायताली. एक दीस कितें जालें जाणा?

ते थाळयेंत एक बेबूक लिपून बशिल्लें दिसता. ताणें व्हडयांत उडी मारली आनी व्हडें उमथलें. गुमा थंय नाशिल्ली जाल्यार हांव बुडूनच मरपाचों.

ह्या देशांत म्हजेर अशीं जिवावयलीं संकश्टां जायतीं येवन गेलीं.

एक दीस हांव जनेलांत बशिल्लों, इतल्यांत थंय एक माकोड आयलो आनी म्हाका धरूंक सोदूंक लागलो. तो माकोड उंटायेदे उंचायेचो आशिल्लो. हांव किंळच्यो मारून हेवटेन तेवटेन धावूंक लागलों. त्यावेळार थंय कोण एक नाशिल्लो. निमणें ताणें हात भितर घालून म्हाका ओडून भायर काडलो. हांव सुटपाक ताडी माडी करूंक लागलो. ताणें म्हाका घट्ट आंवळून धरलो आनी जनेलाभायर उडी मारली. ज्यूस्त गुमान आमकां खंयच्यान तरी पळयलें आनी ती किंळच्यो मारूंक लागली.



ताच्या किंळच्यांनी कितलिशींच मनशां धांवन आयलीं. तांकां पळोवन माकोड काचाबूल जालो आनी म्हाका घेवन घराच्या पाक्यार वचून बसलो. थंय जमिल्ल्या लोकांनी माकडाक भिवपाखातीर फातोर मारलो. म्हाका घेवन ३००-४०० फूट उंचायेर आशिल्ल्या पाक्या वयल्यान तो धांवता, तें पळोवन भंयान म्हजो जीव आकूळ - पिकूळ जालो.

लोकांनी चारूय वाटांनी सेर्क घाल्लो. सकलेवाटेच्यान लोक पळोवन म्हाका पाक्यार उडोवन, उडक्यो मारीत तो माकोड पळून गेलो.

माकोड गेलो तरी म्हजी भिरांत मात्तूय उणी जावंक नासली. मात्सो वारो लेगीत आयल्यार हांव सकयल पडटलों आसलों. निमणें एक हुशार शिपाय निसण लावन वयर चडून आयलो. ताणें म्हाका आपल्या बोल्सांत घालून सकयल हाडलो. हे घडणुकेक लागून म्हजीं हाडां सामकीं खिळखिळून गेलीं. पंदरा दीस हांव हांतरुणार पडून आशिल्लों. ह्या वेळार राणी आनी राजा म्हाका बरेतरेन सांबाळटालीं. हांव मात्सो बरो जातकूच गुमा म्हाका फिरोवन हाडपाक लागली.

अशेतरेन ह्या भयांकृत राकेसांच्या राज्यांत हांव सुशेगाद रावतालों. पूण म्हाका सदांच म्हज्या मायदेशाची याद जाताली. म्हज्या मनशांमदीं हांव पर्थून पावत काय ना, हें येवजुनूच म्हजें मन खंती जातालें.

# ४ अजापी जगांतल्यान सुटका

ह्या राकेसांच्या जगांत येवन म्हाका दोन वर्सां जायत आयिल्लीं. हांगाच्यान आनीक परत म्हज्या गांवघरा वचूंक मेळत ही आशाच हांवें सोडिल्ली. हे खंतीन म्हजें आरोग्य बरें उरनासलें.

एक दीस राणीसायब आनी राजासायब राज्याचे दक्षिण देगेर भोंवडेक वचूंक भायर सरलीं. तांणी म्हाका आनी गुमाकूय वांगडा घेतलें. म्हजी पेट मांडयेर घेवन गुमा गाडयेंत राणयेच्या शेजारा बशिल्ली. अशेतरेन आमचो प्रवास सुरू जालो.

निमणें एक दीस दर्या देगेलागसारच्या एका गांवांत आमी राबितो केलो. सेगीत कितलेशेच दीस भोंवडी केल्ल्यान हांव आनी गुमा बरीं ना जालीं. गुमान खऱ्यांनीच हांतरूण धरिल्लें. हांवें मात खूब बरो ना म्हूण तड्डक केल्लें. हातूंत म्हजो एक हेतू आसलो.

हांवें राणयेकडेन विनवणी केली, ''सरकार, दर्या देगेवयल्या ताज्या खाऱ्या वाऱ्यांत जर म्हाका रावंक मेळ्ळें जाल्यार हांव जगन, ना जाल्यार ह्या दुयेंसांतल्यान वांचपाची कांयच आस्त ना.''

हांवें अशें सांगनाफुडें राणी भियेली. तिणें म्हाका दर्या देगेर व्हरून बरेतरेन म्हजी रावपाची वेवस्था करची म्हूण फर्मान काडलें. म्हज्या मनांत परतूय आशेचें किर्ण लिकलिकलें. ह्या देशांतल्यान जर म्हाका भायर सरपाची संद मेळत तर ती दर्या देगेरूच, अशें म्हाका खात्रीन दिसतालें.

राणीसायबान एक खात्रेचो शिपाय म्हज्या वांगडा धाडिल्लो. गुमान म्हजी पेटयेवरी कूड आनी सगलें सामान जतनायेन व्हरपाविशीं ताका परत - परत सांगलें. आतांमेरेन हांव तिचेपसून खंयच पयस रावूंक नासलों, देखून तिका खूब वायट दिसतालें. मुखावयल्या संकश्टांची सुलूस लागिल्लेवरी ती हुंडकेवन रडूंक लागली.



म्हजी पेट घेवन तो शिपाय दर्या देगेर आयलो. रेवेंत म्हजी पेट दवरून शंख, शिपयो वेंचूंक भोंवक लागलो. दर्यावटेनचीं जनेलां उकतीं दवरून हांवें दर्यार नदर लायली. पूण त्या शीम - मेर नाशिल्ल्या दर्यांत एकूय शीड दिसनासलें.

हांव दुखेस्त मनान म्हजे कुडींत बसलों आनी चितूंक लागलों. इतल्यांत म्हजी कूड थरथरपाक लागली. तिका लायिल्ले खिळयेक धरून कोणतरी वयर वयर मळबांत वता अशें म्हाका दिसलें. हांवें जनेलांतल्यान सकयल पळयलें. सकयल अथांग दर्या पातळिल्लो. त्या राकेसांच्या राज्याची शीम पयस हय न्हयशी दिसताली. म्हज्या वयल्या वाटेच्यान पाखां फडफडिल्ल्याचो आवाज आयकूंक येतालो. म्हजी सगली कूड अशेतरेन हालताली, म्हाका उबो लेगीत रावंक मेळनासलें. नेमकें कितें जालां जातलें हाचो हांवें अदमास केलो.

राकेसांच्या राज्यांतल्या एकाद्र्या राकेसी सुकण्यान म्हजी पेट चोचींत धरून व्हेल्या आसतली. आतां वाटेर कांय सुकणीं, ताचे फाटल्यान लागिल्ल्यान तांची बाचाबाची चलताली जावंक जाय, म्हूण म्हजी पेट अशी हालताली.

अशेतरेच्या विचारांत हांव गुल्ल आशिल्लों. इतल्यांत म्हजी पेट नेटान सकयल येवंक लागली. तिच्या वेगान म्हजी तकली गिरगिरूंक लागली. म्हणटासर ती उदकार आपटून व्हडलो आवाज जालो. ती सकयल पडली आनी ल्हारांचेर धोलूंक लागली. तिच्यो फळयो घट्ट आशिल्ल्यो म्हूण तुमकां ही म्हजी काणी सांगूंक हांव जितो उरलों. कुडीची बसका लोखणी पत्र्याची जाल्ल्यान ती ल्हारांचेर वयर उफेताली.

त्या भयांकृत राकेसांच्या राज्यांतल्यान म्हजी सुटका जाल्ली, पूण घुडावरी पेटयेंत दर्यांच्या





ल्हारार धोलत हांव कितलो वेळ रावूंक शकतलों आसलों? अशे अवस्थेंतूच म्हजो अंत जातलो काय कितें? हाचोय म्हाका भंय दिसूंक लागलो. कुडींतली एक चादर काडून हांवें बडयेक बांदली आनी तो बावटो जनेलांतल्यान भायर काडून घट्ट बांदून दवरलो. खंयच्याय तारवान तो पळोवन म्हाका वाटावचो म्हूण हांव देवाक विनयत रावलों. म्हजेकडेन आनीक कांयच उपाय नासलो.

वाजेवन हांव आड पडिल्लों. थंयच म्हजो दोळो लागलो. कितलो वेळ हांव असो पडिल्लों देवाक खबर. अचकीत एका विचित्रशा आवाजान म्हाका जाग आयली. राटावयल्यान कोण तरी दोर वयर ओडटा असो आवाज येतालो. म्हजी कुडूय कोणतरी ल्हवू ल्हवू वयर ओडटा असो म्हाका भास जालो.

कांय वेळान भायल्यान आवाजसो येवंक लागलो. इतल्यान कोणें तरी भायल्यान व्हडल्या आवाजान प्रस्न विचारलो, ''आरे, हे पेटयेंत कोण जितो मनीस आसा?''

सुमार दोन वर्सां उपरांत हांव म्हजी भास आयकतालों. म्हाका खूब खोस जाली. हांवें खोशयेन म्हळें, ''आरे पळयतात कितें? वयली खिळी काडून दार उगडात, म्हणटकूच म्हाका भायर येवंक मेळटलें.'' म्हजें उलोवणें आयकून ते सगले हांसूंक लागले आनी हांव आतां राकेसांच्या राज्यांत ना म्हूण म्हज्या लक्षांत आयलें. हे म्हजेवरी मनीस म्हजे कुडीचें धाकणें ल्हान डबी उगडिल्ले वरी कशे उगडटले आसले?

कांय वेळान वयल्यान खरवतीन कापिल्लेवरी आवाज येवंक लागलो. फळयो कापतकूच

हांवें त्या बुराकांतल्यान तकली वयर काडली. थंय लागींच एक पातमारी आसली. पळय जाल्यार म्हजी कूड ताका बांदून दवरिल्ली. हांवें तकली भायर काडिल्ली पळोवन तारवावयल्या तांडेलांनी दोरांची निसण सकयल सोडली. हांव वयर चडून गेलों. म्हाका खूब पुरो जाल्लें. वयर पावतकूच हांव घुंवळ येवन पडलों.

त्या तारवाचो कप्तान मोटो मायेस्त आसलो. ताणें रोखडेंच म्हाका सावशीद केलें, जेवंक - खावंक दिलें आनी सुशेग घेवंक लायलो. तारवावयल्या सगल्यांक म्हजी पेट आनी दशा पळोवन अजाप जाल्लें. तांणी म्हाका आडवे - तिडवे प्रस्न विचारून वाज हाडलो.

दुसऱ्या दिसा मात्सो सुशेग घेवन ताजो - तट्टीत जातकूच हांवें तांकां म्हजी सगली गजाल सांगली, पूण तांकां ती खरीच दिसना जाली. घरापरसूय उंच मनशांच्या सांगाताक हांव दोन वर्सां रावन आयलां, हें सांगल्यार तांकां खरेंच दिसनासलें.

एका राकेसाचो फूटभर लांबायेचो असो एक दांत वैजान काडिल्लो. मजा म्हूण हांवें तो म्हजे कुडींत दवरिल्लो. तो दांत हांवें कप्तानाक दितकूच तांकां म्हजें सांगणें पटलें.

आमचे निमणें भोंवडेंत म्हाका कांयच त्रास जालो ना. णव म्हयन्या उपरांत ३ जून १७०६ दिसा हांवें म्हजे भुंयेर पांय दवरलो.

अशेतरेन त्या राकेशी मनशांच्या राज्यांतल्यान बरे - वायट अणभव घेवन हांव म्हज्या घरा बरेतरेन पावलों.

❏ ❏ ❏

# ५ उडपी जुंवो आनी हेर देस

भयांकृत राकेसांच्या राज्यांतल्यान बरेतरेन सुटून येतकूच आनी आनीक खंयच भोंवडेक वचचों ना म्हूण हांवें निश्चेव केल्लो. तेप्रमाण कांय दीस हांवें बायल भुरग्यांच्या सांगातान खोशयेन सारले.

पूण हातार हात दवरून वोग्गी बसप म्हाका केन्नाच मानवलें ना. तातूंत जातनाच म्हज्या पांयांक चक्रां बांदिल्लीं आसूंक जाय. तीं म्हाका एका जाग्यार थीर रावंक कशीं दितलीं?

एक दीस हिंदुस्तानांत वचपी तारवाचो कप्तान म्हाका सोदीत आमगेर आयलो. आपल्या तारवार शस्त्रवैज म्हूण तो म्हाका आपयतालो. दक्षिणेकडच्या प्रवासांत म्हाका आयिल्ल्या अणभवांखातीर आनी मेळिल्ल्या व्हडपणाखातीर तो चड पयशे दिवन लेगीत म्हाका आपयतालो.

बरोच वेळ हांवें हय - ना केलें. पूण निमणें हांवें हय म्हळेंच. म्हजे तिसरे अजापी भोंवडेक आरंब जालो.

हिंदुस्तानमेरेन आमची भोंवडी बरी जाली. थंयच्या बंदरांनी वेपार करून नवो म्हाल तारवांत भरून आमी चीन देशांत वचूंक भायर सरले.

चिनांत पावचे पयलींच कांय चांच्यानी आमच्या तारवाचेर घुरी घाली. तांणी आमचीं सगलीं मनशां आनी सगलो म्हाल आपल्या शेकातळा घेतलो. ह्या झुजांत हांवें चड वांटो घेतिल्ल्यान चाच्यांच्या मुखेल्याचो म्हजेर चडूच राग आसलो. पूण तांच्या तारवाचो कप्तान मायेस्त आशिल्ल्यान हांव वाटावलों. तांणी आमचें तारूं आपल्या हातांत घेतलें. एका ल्हान व्हड्यांत अन्न - उदक दवरून तातूंत म्हाका बसोवन तें व्हडें दर्यांत सोडून दिलें. मागीर ते दोनूय



तारवां घेवन गेले.

हांगाच्या दर्यांत लागीं लागीं अशे बरेच जुंवे आसात, अशें हांवें आयकल्लें. अशा जुंव्यार वचून बरे मनीस आशिल्ली सुवात सोदपाचें हांवें थारायलें. थंयच्यान मागीर म्हाका म्हज्या घरा वचूंक मेळटलें अशी म्हजी माण्णी आसली.

हांव शीड लावन व्हडें ताणटालों. इतल्यांत म्हाका एक जुंवो दिसलो. थंयच हांव देंवलों. रात जायत आयिल्ली. थंयचेच एके फातराचे घोलींत रावन हांवें रात पासार केली. सकाळीं उठून फातरार फातोर आपटून उजो केलो आनी ताचेर भाकरी भाजून खाली. मागीर वसाड जुंवो पळोवंक हांव भायर सरलों.

थोडी वाट चलून वतकूच अचकीत म्हजे भोंवतणी काळोख पडिल्लेवरी दिसलें. दनपारच्या कडार असो काळोख कसो जालो हें पळोवंक हांवें मळबाकडेन पळयलें. थंय म्हाका व्हड अजाप दिसलें. एक व्हड जुंवो म्हजे तकलेवयल्यान उडत वतालो. तो मात्सो लागीं येतकूच हांवें दुर्बीण घेवन नियाळून पळयलें. जायते लोक त्या जुंव्यार सुशेगाद फिरताले.

हें आनी कितें अजाप? म्हाका कांयच कळना जालें. कितेंय जालें तरी म्हाका ह्या वसाड जुंव्यावयल्यान मनशाचे वस्तेंत वचुंकूच जाय आसलें.

हांवें व्हडाव्हडान तांकां उलो मारलो. म्हजो बुशकोट काडून वाऱ्यार हालोवन कुरू केली. निमणें तांचें म्हजेर लक्ष गेलें. एका अधिकाऱ्यान पोतार कदेल बांदिल्लो दोर खाला सोडलो. हांव तातूंत बसतकूच तांणी म्हाका वयर ओडून घेतलो.

ह्या उडटल्या जुंव्यार हांव खूब दीस रावलों. हो जुंवो म्हळयार ज्योतिशी आनी गणिततज्ञांचो देस आसलो. ते नेमान मळबांत नखेत्रांकडेन पळयताले. तेखातीर तांचो एक दोळो तिरसो आनी वयर ओडिल्लेवरी दिसतालो. तांच्यो मानोय वरशो दिसताल्यो. तांच्या दर एका वेव्हारांत ज्योतिशाचें पिशें दिसतालें. तांच्या कपड्यांचेर लेगीत चौकोन, त्रिकोन, गुळे अश्यो आकृती आशिल्ल्यो. इतलेंच न्हय तर तांचे जेवणातले पदार्थूय भुमितींतल्या आकारांवरी आसताले. ज्योतिशाच्या पिशाक लागून तांचें जेवणा-खाणाचेर, न्हेसपा-पांगुरपाचेर लक्ष नासलें.

दर एका ज्योतिशा म्हऱ्यांत चंवर घेवन एक मनीस उबो आसतालो. तो तें चंवर मालकाच्या कानार मारून ताका जागोवन मुखार कितें चलता ताची खबर सांगतालो.

तांच्या ह्या अभ्यासाक पळोवन ते खऱ्यांनीच हुशार आसतले अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण तांची विव्दत्ताय कागदावयल्या गणितापुरतीच आसली. सादयांतल्या सादया लोकां इतलें लेगीत वेव्हारज्ञान तांकां नासलें. सरळ सादी गजाल ते गणिताच्या आदारान सोडोवंक सोदताले आनी

चुकोवन उडयताले.

तांचीं घरां वांकडी-तिकडीं आनी धोंगा-पोंगाचीं आसलीं. तांचे कपडे पळोवंक गेल्यार तेवूय सारके न्हय. आंगाबरोबर ते बसनासले, सदळ सदळ कशायकशे आसताले. कांयच कामधंदो करनासतना हे लोक कशे जगतात हाचेंच म्हाका अजाप दिसतालें.

एक दीस हो उडपी जुंवो एका शाराचेर थांबलो. जुंव्यावयल्या लोकांनी सडसडीत दोरयेक पेटारे बांदून सकयल सोडले. सकयल्या लोकांनी तातूंत दाणो-गोटो, कपडो-लत्तो भरलो. जुंव्यावयल्या लोकांनी मागीर पेटारो ओडून वयर घेतलो आनी आमचो जुंवो परत उडूंक लागलो.

म्हाका मागीर कळळें की हांव रावतालों त्या जुंव्याचें नांव 'लापुटा' आसलें. ह्या देशाचो राजा लेगीत ताचेरूच रावतालो. जुंव्यावयले सगलेच लोक म्हळयार सरदार, मानकरी आनी राजाचे मर्जेंतले विव्दान. सकयल आशिल्ल्या उत्पन्नांतल्यान हो जुंवो आपलो खर्च भागयतालो.

अशा एकाद्र्या शारान जर बंड केलें, तर ताका बुद्द शिकोवपाची युक्त राजाकडेन आसली. आपलो जुंवो त्या बंड करपी शाराच्या मदींच थांबोवप. म्हणटकूच त्या शाराक वत-पावस कांयच मेळनासलो. तेभायर हेर शारांक ताचेकडेन संबंद दवरूं नाकात म्हूण सांगतकूच तें बंड करपी शार जाग्यार येतालें.

हो जुंवो उडटा तरी कसो? म्हाका तें केन्ना सारकें कळळें ना. म्हाका आयिल्ल्या दुबावाप्रमाण लोहचुंबकाचो एक खांबोसो ह्या जुंव्याचे भितरले वाटेन आसलो. त्या जुंव्याची सकयली जमीन कसल्यातरी उरफाट्या बळग्याचेर आसली. देखून लोहचुंबकाचो तो जुंवो सकयले जमनीक लागनासतना वयले वयर हुमकळिल्लेवरी भोंवत रावतालो. लोह चुंबकाचो हो खांबो जाय तसो घुंवडावन जाय थंय व्हरपाक येतालो.

ह्या जुंव्यार म्हाका कांयच कमी नासलें. तरिकूय अशा विचित्र आनीं उणें उलोवपी लोकांवांगडा म्हाका रावपाचें नासलें. निमणें हांव वयर आयिल्लों तसोच म्हणचे दोरयेक बांदिल्ल्या कदेलाचेर बसून सकयल्या शारांत देंवलों.

लापुटाच्या शेकातळा आशिल्ल्या ह्या शाराचें नांव आसलें ''वाल्निबार्बा.'' ताच्या राजपाटणाचें नांव लाडागो. लापुटाच्या दरबारांतल्यान हांवें म्हजेविशीं म्हायती सांगपी पत्रां घेतिल्लीं. ताका लागून लाडागोंत म्हाका बरो येवकार मेळळो. थंयच्या एका प्रधानान म्हाका थंयच्यो पळोवपासारक्यो वस्तू दाखयल्यो.

थंय एक विचित्र संस्था आशिल्ली. ताच्या संशोधन केंद्रांत राज्यांतले सगले विव्दान थंय शास्त्रीय सोद लावंक गुल्ल जावन गेल्ले. पूण तातुंतलो एकूय सोद वेव्हारांत उपेगी पडपासारको

...५०

नासलो.

कांय मजेचेच सोद तुमकां सांगतां. एक शास्त्रज्ञ झेलापासून आर्माची दारू तयार करूंक सोदतालो, तर दुसरो एकलो पयलीं कळस मागीर बुन्याद अशे रितीन घरां बांदपाक लोकांक सांगतालो. आनीक एकलो तर मावलेचे जाळयेपासून कपडे तयार करूंक सोदतालो. एका लेखकान लेखनाचें व्हडलें यंत्र तयार केल्लें.

खरें पळोवंक गेल्यार ते कितेंय प्रयोग करून ताका शास्त्राचें नांव दिताले. ज्या सोदाचो उपेग जितलो कमी तितलें ताका शास्त्र म्हूण म्हत्व चड अशें ते मानताले.

स्वताक विव्दान समजुपी त्या देडशाण्या लोकांचो म्हाका सामको वीट आयलो. हांवें तो देश रोखडोच सोडलो. वतां वतां वाटेर लागिल्ल्या सगल्या देशांक धांवती भेट दिली.

'ग्लब - डब - रिग' हो देश एका जादुगाराच्या शेकातळा आसलो. ताच्या दरबारांतलीं सगलीं कामां तो भुतांकडल्यान करून घेतालो. थंयचे लोक जादवाच्या बळग्यार मेल्ल्या खंयच्याय मनशाचें भूत आपल्या मुखार हाडटाले. हांवें सांगतकूच म्हाका जाय जाय त्या व्हड व्हड लोकांक भुताच्या रूपान तांणी म्हजे मुखार हाडून दाखयले. हांव तांचेकडेन उलयलों लेगीत.

उपरांत हांव 'लागनाग' ह्या देशांत गेलो. हांगा अजापाची गजाल म्हळयार 'स्ट्रल्डबब' नांवाची मनशांची जात. ते अमर आसतात अशें म्हाका सांगलें. सुर्वेक म्हाका बरें दिसलें तें आयकून. पूण तांचें जख्खड म्हातारपण आनी दैना पळोवन म्हाका वीट आयली. तीं जितीं मडीं पळोवन मर्ण म्हळयार आमकां मेळिल्लो एक वर कसो दिसलो.

'लागनाग' देशांतल्यान हांव जपानात गेलों. थंय भोंवन जातकच उंच अशे पातमारीवयल्यान हॉलंडात आयलों. मागीर थंयच्यानूच म्हज्या मायघरा येवंक भायर सरलों. हे तरेन म्हजी तिसरी भोंवडी सोंपोवन हांव १८ एप्रिल १७१० दिसा घरा पावलों.

ᄀ ᄀ ᄀ

# ६ घोड्यांच्या राज्यांत

उडपी जुंवो आनी हेर अजापी देशांतल्यान बरेतरेन घरा येतकूच हांवें थोडे दीस सुखान सारले. थोड्याच दिसांनी म्हाका पर्थून भोंवडेची उमळशीक लागली.

एक तारूं दक्षीण अमेरिकेंत वचपाचें आसलें. ताच्या मालकान म्हाका त्या तारवाचो कप्तान म्हूण आपयलो. म्हाका जाय तेंच जाल्लें. हांवें रोखडोच हयकार दिलो आनी म्हजे चवथे भोंवडेक आरंब जालो.

भोंवडेर आसतनाच कांय तांडेल बरे ना जाले. तातुंतले कांय जाण मेले, म्हूण म्हाका 'बारबेडोझ' जुंव्यार थोडे दीस रावचें पडलें. थंय हांवें नव्या तांडेलांक कामार घेतले. तातुंतले चडशे जाण खांपे चोर आनी डाकू आसले हें म्हाका उपरांत कळ्ळें.

९ मे १७१० दिसा त्या नव्या तांडेलांतलो एकलो म्हजे कुडींत आयलो. ताणें थंडपणान म्हाका म्हळें, ''आमचें तारूं एका जुंव्या म्हऱ्यांत पावलां, आमच्या नव्या कप्तान सायबान तुका हुकूम दिला. तुवें आतांच्या आतां ह्या धाकट्या व्हड्यांत बसून ह्या जुंव्यार देवूंक जाय. आमी मुखार वतले. बरे भशेन तुवें हें आयकलें नाजाल्यार तुज्या जिवीताची शाश्वती  ना''.

म्हाका त्या जुंव्यार देंवोवन चांचेगिरी करपाखातीर वचपाचो तांचो बेत आसलो. आंगावयले कपडे, बोल्सांतल्यो कांय वस्तू आनी म्हजी तरसाद इतल्या सामानासयत म्हाका जुंव्यार सोडून ते गेले.

कसलीय सुलूस लागता काय पळोवंक हांव त्या जुंव्यार फिरूंक लागलों. रानवटी मनीस मेळ्ळयार ताका कितेंय दिवन ताचेकडेन इश्टागत करची असो म्हजो बेत आसलो. मात्सो मुखार पावतकूच पयस रानवटी लोकांचो जमोसो दिसलो. म्हऱ्यांत वचून पळयल्यार अर्दी कूड मनशांवरी आनी अर्दी कूड माकडावरी अशे तरेच्या रानवटी सावदांचो तो कळप आसलो.

ते म्हाका त्रास दिवंक लागतकूच एकल्याक हांवें तरसादीन मात्सो घाय केलो. अचकीत आयिल्लें संकश्ट पळोवन हांवें आदाराक हेवटेन तेवटेन पळयलें. पळय जाल्यार एक घोडो ल्हव - ल्हव म्हजेवटेन येतालो. ताचे फाटीर थापट मारूंक हांवें हात वयर काडलो मात, ताणें मुखावयल्या खुरांनी म्हजो हात झिडपिलो.

इतले मजगतीं आनी एक घोडो थंय पाविल्लो. तांणी दोगांनीय उजवो पांय म्हाका तेंकयलो. मागीर म्हज्या हाता-पायांक आपल्या खुरांनी सांसपून पळयलें. मजा म्हळयार प्रस्न-जाप केल्लेवरी ते वेगळे वेगळे आवाज काडटाले. ते 'याहू' हें उतर परत परत म्हणटाले.



हांवेंय तें उतर म्हळें, तेन्ना तांकां अजाप जालें. तांणी मागीर 'हूं हूं' हेंवूय उतर म्हजेकडल्यान म्हणून घेतलें. तें तांच्या देशाचें नांव हें म्हाका मागीर कळ्ळें.

त्या दोगूय घोड्यांनी म्हाका एका घराकडेन व्हरून त्या घरांतली कूड म्हाका रावपाक दिली. हाचे पयलीं जे अर्द मनशांवरी प्राणी मेळिल्ले, तांकां ह्या 'हूं हूं' राज्यांतल्या घोड्यांनी 'याहू' हें नाव दवरिल्लें. तांचेकडच्यान ते घोडे कश्टांचीं कामां करून घेताले.

सुरवेक तांणी म्हाकाय 'याहू' समजून कमीपणान वागयलें. 'याहू' हे प्राणी बुरशे, भिवकुरे, खुनशी तशेच अकलेनूय उणे.हांवें मात म्हजे हुशारकायेन तांचें मन जिखून घेतलें. तांची भाशाय हांव रोखडोच शिकलों.

ते दिसपाक जरी घोड्यावरी आसले तरी तांची वागणूक सुदारिल्ल्या मनशांवरी आसली. मनीस कितलेय शिकूं, आपल्याक सुदारिल्ले म्हणूं, पूण तांच्यांतले जायते दुर्गूण उणे जावंक नात. ह्या घोड्यांरुपी मनशांमदीं फटींगपणां, दुस्वास, बेईमानी कांयच नासलें. हे खातीर म्हाका मनशांपरसूय जनावरां बरीं अशें दिसलें.

ह्या हूं हूं लोकांच्यो रिती-भाती, कायदो-वेवस्था, तांचीं पदां हांचेविशीं जितली म्हाका वळख मेळटाली तितलें तांचें व्हडपण कळून येतालें. ते म्हाका खूब मायेन वागयताले.

हूं हूं लोक ७०-७५ वर्सां जगतात. मरसर तांकां कसलोच रोग जायना. कोणूय मरतकूच

ते दूख धरून बसनात आनी मरणाचो तांकां भंय बी दिसना. म्हाका हें घोड्यांचें जग खूब आवडलें.

म्हजी एक ल्हान खोप आसली. हांवेंच म्हाका जाय जाय तें लाकडी सामान तयार केल्लें. सोशाचे कातीचे मोव मोव कपडे केल्ले. म्हजो धनी म्हाका फळां, म्होंव, धान्य सगलें सगलें भरपूर दितालो. अशेतरेन तीन वर्सां हांवें मोटे खोशयेन सारलीं. परत आनीक दुर्गुणी लोकांच्या राज्यांत वचचें अशें म्हाका दिसनासलें. पूण जें आवडटा तें मनशाक चड वेळ मेळना असो जगाचोच नेम आसा जातलो.

एक दीस म्हजो धनी दुखेस्त चेरो करून म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो. 'हूं हूं'च्या कायदो मंडळान म्हज्या धनयाक, ताणें भौमानान घरांत दवरिल्ल्या याहूक म्हणचे म्हाका घरांतल्यान भायर काडूंक सांगिल्लें. हांव 'याहू' न्हय हें म्हज्या धनयाक पटिल्लें. पूण हेर 'हूं हूं'क हांव याहूच जातींतलो प्राणी कसो दिसतालों. म्हज्या धनयान म्हाका आलाशिरो दिल्ल्यान ताचेर सगल्यांनी राग धरिल्लो. म्हाका आवडिल्ल्या देशांतल्यान परत वचचें पडलें म्हूण म्हाका वायट दिसलें.

पूण सगल्या 'हूं हूं'नी म्हाका धांवडावपाचो निश्चेवच केल्लो. निमणें हांवें लाकडां कापून ताचें एक व्हडें तयार केलें. ह्या देशांत जरी म्हाका रावंक मेळ्ळें ना, तरी लागशिल्ल्या एकाद्र्या जुंव्यार वचून रावचें अशें हांवें थारायलें.

म्हाका निरोप दितना म्हज्या धनयाक खूब वायट दिसलें. ह्या देशाच्या लागसारूच आशिल्ल्या एका जुंव्यार वचून हांव थोडे दीस रावलों. म्हज्या वायट नशिबान एक दीस एक पोर्तुगीज पातमारी उदक भरून घेवपाक म्हणून थंय आयली. ज्यूस्त तांकां हांव दिसलों. त्या पातमारीच्या कप्तानान म्हाका परत व्हरपाचो निश्चेव केलो.

म्हाका परत म्हजेवरी याहूच्या देशांत वचपाचें नासलें. ह्याच जुंव्यार आयुश्यांतले उरिल्ले दीस सारपाचे आसले. हांवें पोर्तुगीज कप्तानाक काकुळटेक येवन सांगलें. पूण म्हजेकडल्यान याहू, घोड्यांचो देश अशीं उतरां आयकून तांकां दिसलें, म्हाका पिशें लागलां जातलें. हूं-हूं देशांतल्या प्राण्यांची खबर तरेतरेन सांगतकूच निमणें तांचो मात्सो विस्वास बसलो.

निमणें हांव ते पातमारेर चडलों. तांणी म्हाका लिस्बनच्या धक्यार हाडून सोडलो. थंयच्यान हांव इंग्लंडांत पावलो.

हूं - हूं च्या देशांत रावन आयिल्ल्यान आतां तांचेबराबर वेव्हार करपूच नाका दिसतालें. हेर लोकांचें सोडाच, पूण म्हज्या बायले-भुरग्यांकडेन लेगीत म्हाका उलयन दिसनासलें. ल्हव - ल्हव म्हजें मन हांवें बदलून घेतलें म्हूण सालवार! ना तर सगलीं म्हाका पिसो थारायतलीं आसलीं.

हाचेमुखार मात वोगीच खंय भोंवडेर वचून हालांत पडप ना. असो हांवें निश्चेवच केलो. सद्या हांव पयस गांवांत शेत-भाट करून सुशेगाद रावतां. हूं-हूं देशाची याद म्हूण हांवें हांगा दोन घोडे पोसल्यात. तांचेर हांवें जीन घालूंक ना. तांकां वेसण घालूंक ना. हांव तांकां म्हज्या इश्टांवरी सांबाळटां.

तांची चडशी भास म्हाका आतां कळूंक लागल्या. तरी लेगीत हूं हूं देशांतल्या घोड्यांचीं शाणेपणां आनी थंयचे म्हजे सुखान गेल्ले दीस हांचो मात म्हाका मातूय विसर पडना.

❒ ❒ ❒

# गोवा ,कोंकणी अकादेमी

## बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

### : अकादेमीचीं प्रकाशनां :

| | | |
|---|---|---|
| १. काणयां झेलो : भाग १ | -- | श्री .माणिकराव गावणेकार |
| २. काणयां झेलो : भाग २ | -- | श्री. माणिकराव गावणेकार |
| ३. गोंयांतले रूख | -- | डॉ. कस्तुरी ना. देसाय |
| ४. गलिवराची भोंवडी | -- | सौ. माया अ. खरंगटे |
| ५. स्वामी विवेकानंद | -- | डॉ. विनय वा. मोरजकार |
| ६. आटकुळें -- पिटकुळें | -- | श्री. अभयकुमार वेलींगकार |

---

### बालसाहित्य प्रकाशन येवजणेखाला छापून आयिल्लीं प्रकाशनां :

| | | |
|---|---|---|
| १. जादुचो कोंबो | -- | डॉ. मनोहरराय सरदेसाय |
| २. बाबू | -- | श्री. एन्. शिवदास |
| ३. दीपत्कार | -- | श्री. लक्ष्मीदास बोरकार |

---


गोवा कोंकणी अकादेमी

पर्वरी - गोंय